प्रो. डॉ. किरण बुडकुले
यांना सप्रेम भेट

सत्यवान नायक

29.03.16.

# जनजाग

**प्रा. सत्यवान नायक**



**जनजाग** (पथनाट्यां)

**प्रा.सत्यवान नायक**

**Janjaag** (Street plays)

By:

Satyawan Naik

---

**प्रकाशन क्र. 60**



**पयली उजवाडावणी** : 2014.

**प्रा. सत्यवान नायक**
803/1, हेरंब, क्रिस्तांव वाडो, चर्चीलागी,
माशेल- गोंय. 403107
मोबायल : 9923487755

**उजवाडावपी:**
सुरेश सगुण नायक
जैत प्रकाशन
एम-231, एला मळार, कोर्लीम,
तिसवाडी, गोंय -403 110
मोबायल : 9850465229

**छापपी**
लोकमान्य प्रोसेस,
कोर्लीम, तिसवाडी- गोंय.

**अक्षरजुळणी**
चंदन लाड

**कव्हर चीत्र** : जनार्दन शेटये

**मोल : 100/-**

---

ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेखाला अर्थीक पालव लाबला.

---

आई सावित्री आनी बापूय सगुण (बोमी) हांचे यादींक

---

# मनांतलें ...

**'जनजाग'** हें पुस्तक तुमच्या हातांत दितना म्हाकां उपाट खोस भोगता. नाटकाचें वेगवेगळे प्रकार आसात. तांतुतलो एक लोकप्रिय नाट्यप्रकार म्हणल्यार पथनाट्य. जाका आमी इंग्लीशींत Street play म्हणटात. गोंयांत नाटकां, एकांकी वांगडा आनीक खंयचोय नाट्यप्रकार फामाद जाल्लो आसत जाल्यार तो पथनाट्य अशें म्हणू येता. पारंपारीक नाटकाचो जो साचो आसा तो मोडून उक्ते माचयेक वेंगांवपी हो आगळो-वेगळो नाट्यप्रकार. ह्या प्रकारांत पारंपारीक, थारावीक रंगमाची नासता. रस्ते, उक्ती सुवात, गर्देची सुवात, बस स्टँड, जंय चड लोक आसता ती सुवात अशा जाग्यांचेर सादर जावपी प्रकार म्हणल्यार पथनाट्य. रंगमाचयेवांगडा नेपथ्य, उजवाड, आवाज, रंगवण ह्या सारक्या नाटकांच्या हेर येवजण्यांची ताका गरज नासता. लोकांक आकर्शीत करपाखातीर वाद्य संगीत, नेटाचो आवाज आनी भर गर्देत पात्रांक सहज वळखुपाक येवचे हे खातीर एकसारक्या कपड्यांचो वापर करपाची मेकळीक मात पथनाट्यांत आसता.

पथनाट्यांतल्यान मुखेलपणान पात्रांच्या आदारान समाज-जागृताय वा प्रचार करपाचो मुखेल हेतू आसता. राजकीय, सामाजीक, अर्थीक, शिक्षणीक, धर्मीक, मानसीक, कुटुंबीक संदर्भ आशिल्ले विशय भौशीक लोकांमेरेन पावोवपाचें मुखेल कार्य हें नाटक करता. तशें पळोवंक गेल्यार अशा नाटकांतल्यान प्रेक्षकांचे मनोरंजन जावपाची शक्यताय उणींच. पूण मनशाच्यो सुस्तावल्ल्यो संवेंदना जागोवपाचें काम ही पथनाट्यां करतात. ताका लागून पारंपारीक नाटकांचे प्रेक्षक ह्या नाटकांक लाबनांत. फुकटचे उपदेश आयज कोणाक आयकुपाचे नासता. तेन्ना पयशे खर्च करून थिएटरांनीं वचून हीं नाटकां कोणूच पळोवचोना आनी काल्या-जात्रांनी गर्दी करून कोण प्रेक्षक येवचेना हें तितलेंच खरें. देखून केदीय व्हडली समस्या, विशय धा तें पंदरा मिनटां भितर मांडपाचें बंधन अशा नाटकांचेर येता.

गोंयांत पथनाट्यां बऱ्याच प्रमाणांत सादर जातात. ल्हानश्या गोंयांत तश्यो हजार समस्या आनी ह्या समस्यांचेर आदारीत पथनाट्यांखातीर हजार विशय

उपलब्ध आसात. कोंकणी भाशा मंडळान तर गोवा युवा महोत्सवांत पथनाट्यांखातीर एक खासा सर्तूच दवरल्या आनी आजमेरेन ती चालू आसा. हे सर्तीखातीर हांवें कांय पथनाट्यां बरयलीं. एम.ई.एस महाविद्यालयाच्या पंगडान ती सर्तींत सादर केलीं. सर्तींच्या निमतान वेगवेगळ्या विशयांचेर बरप जालें. जे सांबाळून दवरलें तांतुले कांय आयज पुस्तक रूपान तुमचे मुखार येता. तुमी ताका येवकार दितले अशी आस्त बाळगितां.

ह्या पुस्तकांतल्यान काळाचें भान दवरून समाजाक सतावपी कांय वेंचीक विशयाचेर उजवाड घालपाचो यत्न जाला. अपघात, प्रदुशण, घुंवळी वखदां, एड्स, उदकाची समस्या, अनैतिकता, फसवणूक, मोबायलाचो दुरूपयोग, बेरोजगारी अशें कितलेशेच प्रस्न आयज समाजाक सतायतात. दरेका प्रस्नांक जाप आसता तश्यो दरेक समस्या सुटाव्यो जांव येता. मात तशें यत्न आमी करीनात, देखून हे प्रस्न वाडत रावता आनी एक दीस ताचो राकेस जावन समाजाची गची आवुळटा.

मोटरसायकल हातांत आयल्या उपरांत तरणाट्यांच्या उचांबळीत मनाचेर ताचें स्वताचें नियंत्रण उरनां आनी आमीय कितेंच करपाक शकना. जीव सवाय जाल्ल्याभशेन 'स्टंट' मारून दर दिसा तरणाटो आपलें आयुश्य दावाक लायताना दिश्टी पडटा. जाणट्यांचे न आयकुपी घरांतल्यो वाडिल्ल्यो चलयो वायट मार्गाक लागतात तें पळोवन मन खीन्न जाता. शाळा, नोकऱ्यांच्यो सुवातो आनी कार्यालयांनी जावपी लैंगीक शोशणां, मोटी मोटी आमिशां दाखोवन चली भुरग्यांचो गैर फायदो घेवप आतां सदचेंच जालां. एड्सासारकी दुयेंसां वाडता तेन्ना आमचो तरणाटो-तरणाटीं कितलीं जागरूक आसात ताचो अदमास येता. उदरगतीच्या नांवान सैमाचो इबाड, उदकाची समस्या, खण वेवसायातल्यो अधोगती, अशें कितलेशेच प्रस्न गोंयकारांक सतयता. हांतूतल्या कांय समस्यांचेर ह्या पुस्तकांतल्यान भाश्य करपाचो यत्न जाला.

ल्हान भुरगीं आनी मोबायल हे दोन वियश तशें नाजूकच. दोगांकूय सारकेच 'हॅन्डल' करूंक जाय. ल्हान भुरग्यांचेर फावो त्या वेळार संस्कार जाल्यार तो व्हड जातना निश्चीतूच एक परिपक्व आनी जापसालदार नागरीक जातलो हातूंत मात्तूय दुबाव ना. पूण गोंयांत हें चित्र तितलें बरें ना. आपल्या भुरग्यांमुखार कशें उलोवचें

आनी वागचें हें आमकां शिकचें पडटलें. सध्या मोबायलाचो अतिरेक जाल्लो दिश्टी पडटा. मोबायलाबगर आमचे कोणाचेच पान हालना हेंय तितलेच खरें. शाळेंतल्या भुरग्यांकडेन मोबायल आसप कांय ना हो मुद्दो आयज वादाचो थारूं येता. पूण मोबायलाचे बऱ्या फायद्यावांगडा ताच्या वायट परिणामांविशी जागृताय जावप चड गरजेचे आसा. ह्या पुस्तकांत मोबायल जिणेचेर एक पथनाट्य आसपावीत करून शाळां–कॉलेजींनी ताचो वापर कसो जाता ताचे चित्र काडपाचो यत्न जाला.

म्हजें हें पयलेंच पुस्तक. खरें म्हळ्यार घरांत प्रकाशन संस्था आसतना लेगीत तुजें पुस्तक कित्याक येना? असो प्रस्न म्हाका जायत्या जणांनी केला. ताचो दोश म्हज्या आळसायपणाक दिवंक जाय. फाटलीं कितलीशींच वर्सां तुजें पुस्तक काडुया, स्क्रीप्ट निवळावन दी अशें पर्थून पर्थून सांगपी म्हजो व्हडलो भाव भिकूबाब म्हजे फाटल्यान लागतालो, आनी हांव आज दितां फाल्यां दितां अशें सांगून कळाव लायतालो.

आयज हें पुस्तक प्रकाशीत जावन तुमच्या हातांत पडटा ताचे सगळें श्रेय 'भिकूबाबाक' वता. देखून तांचे मनां–काळजांतल्यान उपकार. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर येवजणेखाला म्हजें पुस्तक छापून हाडपाखातीर स्वता म्हजी फायल घेवन वचून सगळे सोपस्कर पुराय करपी कुमूद भाभीचेय खास उपकार मानतां.

खंयच्याय यशस्वी दादल्या फाटल्यान ताची बायल उबी आसता अशें सगळेच म्हणटात. ते तशें कित्याक म्हणटात तें म्हाका कळनासलें. पूण हें पुस्तक पुराय करताना म्हजी घरकान्न लता हिचो म्हाका भरपूर पालव मेळ्ळा तेन्ना लोकांचे म्हणणें कितलें खरें तें म्हाकां कळ्ळां. मात हांव म्हाका यशस्वी दादलो अशें समजना हें मुद्दाम नमूद करतां, आनी लताचेय काळजांतल्यान उपकार मानता. हें पुस्तक पुराय करतना म्हज्या हेर घरच्यांनी म्हाका प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्षरितीन मदत केल्या देखून तांचे सगळ्यांचे उपकार मानतां.

आयज हें पुस्तक उजवाडाक हाडटना आनिकूय कांय जाणांचो पालव म्हाका मेळ्ळा. हांगा सगळ्यांची नांवां घेवप शक्य जावचे ना. तरी लेगीत कांय जाणांचो उल्लेख करप गरजेचे आसा. सगळ्यांत पयली एम.ई.एस. महाविद्यालयाच्या

सगळ्या विद्यार्थ्यांची जार्णी वेगवेगळ्या पथनाट्यांत वांटेकार जावन म्हाकां आनीक नाट्यां बरोवपाक प्रेरणा दिली तांचे हांव काळजांतल्यान उपकार मानतां. म्हजो इश्ट आनी महाविद्यालयातलो म्हजो सांगाती प्रा.कॉज्मा फेर्नांडीस हांणी युवा महोत्सव लार्गी पावता तसो 'स्ट्रीट प्ले' तुवें बरोवचो अशें सांगतकच हांव मुद्दाम बरोवंक बसतालो आनी तिवूंय म्हजेखातीर एक संद आसताली, देखून ताका मनांकाळजांतल्यान दिनवासता.

हें पुस्तक छापपाक आनी उजवाडा हाडपाक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर येवेजणेखाला अर्थीक पालव दिला देखून गोवा कोंकणी अकादेमीक देव बरें करूं म्हणटा. म्हज्या ह्या पुस्तकांतली पथनाट्यां वाचून प्रस्तावना बरयल्लेखातीर हांव पुंडलीक नारायण नायक हांचे काळजांतल्यान उापकार मानता. पुस्तकाचे टायपसेटींग करपी बाब चंदन लाड आनी ताची घरकान्न सौ. राणी चंदन लाड हांकाय देव बरें करूं म्हणटा. तशेंच पांडुरंग का. गावडे हांणी पुस्तकांतल्यो चुको काडून पुस्तक निवळायल्याखातीर तांचेय उपकार मानतां.

जैत प्रकाशनान हें पुस्तक छापून तुमचेमेरेन पावोवपाक भोव मोलाचो आदार दिलो देखून ताचोय हांव उपकारी. तशेंच लोकमान्य प्रोसेसचे मालक सुरेश बोरकार आनी तांच्या कामगारांनी वेळार पुस्तक छापून दिल्लेखातीर तांचेय उपकार मानतां.

सगळ्यांक देव बरें करूं !

हेरंब,

माशेल-गोंय — प्रा. सत्यवान नायक

■■■

# 'जनजाग' सत्यवान नायक हांगेलीं उत्कृश्ट्य पथनाट्यां

कोंकणी चळवळीन कांय कुटुंबां, कोंकणी जाल्यांत. हरशीं कुटुंबांतलो एकटो-दुकटो कोणूय बरोवपी-लेखक जाता. पूण 'कोंकणी कुटुंबां'ची गजाल वेगळी आसा. हांगासर कुटुंबातले एक-दोग जाण बरयतात, मागीर एकटो कोण प्रकाशक जाता, कोण नेमान वाचपी जाता, कोण संघटक जाता, तर कोण कोंकणीचो वावुरपी जाता. असल्या कुटुंबांनी कोंकणी भाशेची चळवळ चलयल्या. कोंकणी नाटक पोसलां. असल्याच एका भिकू बोमी नायक हांगेल्या 'कोंकणी कुटुंबांतलो' सत्यवान नायक एक. वेवसायान तो कोंकणी शिक्षक. प्रासंगिक विशयाचेर ताणे 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत अदीं-मदीं बरयलां. त्या भायर कविता आनी कांय कथाय बरयल्यात.

गोंयांत दर वर्सा जावपी युवा महोत्सवाक सृजनोत्सवाचेंय स्वरूप आसता. हांगासर पथनाट्य हो एक प्रकार जाता. सत्यवानान युवा महोत्सव, मार्ग अभियान हांचे खातीर तशेंच महाविद्यालयाची गरज भागोवपाखातीर 2004 ते 2012 ह्या आठ वर्सांच्या काळांत वेगवेगळ्या विशयांचेर सुमार एक डझन पथनाट्यां बरयल्यांत. तातुंतली वेंचीक आठ पथनाट्यां हांगासर 'जनजाग' ह्या माथाळ्याखाला उजवाडाक येतात.

गोंयांत शाळांच्या स्नेहसंमेलना खातीर सोपो आनी सुटसुटीत आनी हुकूमी मनोरंजनाचो 'मनोलोग' हो नाट्यांश प्रकार प्रसिध्द आसा. तेच धर्तिचेर कसल्याय सामाजिक विशयाचो प्रचार आनी प्रसार करपाखातीर 'पथनाट्य' हो नाट्यप्रकार रूळपाक लागला. शाळेतलो नाटक ह्या विशयाकडेन संबंदित आशिल्लो मास्तर ही पथनाट्य लेखनाची जबाबदारी उखलता. पथनाट्य ताणें बरयलां म्हणटकूच ताणेंच तें भुरग्यांक घेवन सादर करचें पडटा.

हातुंतल्यान कांय गजाली साध्य जाता. पयली म्हणल्यार थरिल्ल्या विशयाचो थरिल्ल्या प्रमाण प्रचार जाता. पथनाट्यांत भाग घेवपी विद्यार्थ्यांक नकळटाना नाटकाचे कांय धडे मेळटात. आनी अनायासान म्हणटा तशीं पथनाट्यां बरोवपाची थळाव्या बरोवप्याक संद मेळटा. सत्यवान नायकाचे बाबतींत तशेंच घडलां आनी तागेल्या 'जनजाग' पुस्तकाची निर्मिती जाल्या.

गोंयांत लोकजागृतीच्या निमतान तयार जाल्लीं आनी लोकांचेर परिणाम

जाल्लीं कांय पथनाट्यां म्हणल्यार 1984 वर्सा युवा कार्यकर्ते संदेश प्रभुदेसाय आनी सांगाती हाणी संघर्श नाट्यमंचाचे वतीन गांवां- गांवात वचून प्रयोग केल्लीं पथनाट्यां. सार्दिन मार्कस्कँडल, चोगम, ओडिताला अशे तरेचीं तांगेलीं पथनाट्यां त्या काळार गोंयभर गाजिल्लीं. तांकां राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय नामनांय लाबिल्ली आनी सादर करप्यांच्या जीवावयलो खेळूय जाल्लीं. मागीर 1984 वर्सा ॲड्.उदय भेंब्रे गोंय विधान सभेचे वेंचणुकेक अपक्ष म्हण उबे राविल्ले त्यावेळार तयार जाल्लें पथनाट्य. तातूंत पुंडलीक नायक, प्रा.प्रकाश थळी, भरत नायक आदि लेखक आनी कलाकार वांटेकार जाल्ले. मागीर प्रमोद महाडेश्वर आनी सांगाती हाणी 'म्हादय बचाव' खातीर उबें केल्लें पथनाट्य आनी 1911 वर्सा सरकारी प्राथमिक शिक्षणाच्या माध्यम प्रश्नावयर 'भारतीय भाषा सुरक्षामंच' च्या बावट्याखाला तयार जाल्लें तरनाटे-विद्यार्थ्यांचें पथनाट्य. ही पथनाट्यां स्वंयस्फूर्तीन तयार जाल्लीं. खंयचे येवजणेखाला वा अर्थिक नदरेन कोणें पुरस्कृत करूंक नाशिल्लीं, ही म्हत्वाची गजाल आसा.

तशें पळोवपाक गेल्यार जागोर, रणमाले, इंत्रुजांतले 'फेळ' हे आरंभाक पथनाट्यांच आसताली. समाजांत घडिल्ल्या घटनांचेर नाटकांतल्यान केल्लें ते भाश्य आसतालें. मागीर मागीर ते रंगमाचयेर आनी बॉक्स सेटांत बंदिस्त केल्ल्यान ताचें स्वरूप बदल्लें.

म्हाका दिसता गोंयचे 'पथनाट्य' परंपरेविशीं बरोवपाचो अधिकार आनी जबाबदारी संदेश प्रभुदेसाय हांगेली आसा. कवींद्र फळदेसाय हांगेलें 'सर फुडें' हो पथनाट्यांचो संग्रह, हो कोंकणीतलो पयलो आसूंये. संदेश प्रभुदेसाय हांगेली अभ्यासपूर्ण प्रस्तावना ताका लाबल्या.

'पथनाट्य' हें नाटकुलें, नाटिका, एकांकी अशा नाट्यप्रकारांतलोच एक प्रकार थारता. एकलक्षी परिणामाचे नदरेन पथनाट्य एकांकी प्रकाराक लागिचें. पूण एकांकीत आशयाचे-विस्ताराचे नदरेन जो घोटिवपणा आसता, तो हांगां मेळना. 'पथनाट्याक' विशय निवडीचें स्वातंत्र्य लेखकाक ना, कारण विशय आदींच थारिल्लो आसता. निर्धारित विशय पथनाट्याचे शैलींत आनी तंत्रांत बांदपाचें काम लेखक-दिग्दर्शकाचें आसता. संवाद सुटसुटीत आनी मार्मिक, आसचे पडटा. अखंडीत गती म्हत्वाची. प्रस्तुतिकरणांत भडकपणा आनी 'लावडनेस' ह्यो गजाली अपरिहार्य आसतात. अशीं कांय वेगळेपणां घेवन 'पथनाट्य' तयार जाता. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार नाटकाक आमंत्रीत आसता तसो हांगा प्रेक्षकाक आपयल्लो नासता. मार्गावयल्या मनशाक स्वतःचें

काम विसरूंक लावन आपणांकडेन ओडून हाडपाचें कसब पथनाट्यांत आसचें पडटा आनी होच ताचो सगळ्यात व्हडलो गूण आसता. ना माची, ना लेवल्स, ना लायट, ना मायक, ना रिकॉर्डेड ध्वनी-संकेत, हाचें भान दवरून कलाकारांक वावुरचें पडटा. आपणालें कथन प्रेक्षकांमेरेन पावोवचें पडटा. वयल्यान कुशीच्या गाडयांचे आवाज, हॉर्न, लोकांचो कलकल हाचेकडेन आडनदर करून पथनाट्य रंगोवचें पडटा. पूण एक गजाल खरी, हांगासर कलाकार लोकांकडेन कसलोच 'आडपड्डो' दवरी नासताना थेट संवाद सादपाक शकता. पथनाट्याचें हें सगळ्यांत व्हड जैत आसा.

सत्यवान नायकाच्या ह्या पथनाट्य संग्रहांत पथनाट्यांचे भौतेक गूण दिसून येतात. 'चूक कोणाची?' हें पयलेंच पथनाटय, आवय भुरग्याचे गरजेभायर लाड करून मोटर सायकलीच्या अपघाताक कशें आमंत्रण दिता ताचें चित्रण आसा. 15-20 मिनीटां मुजदीच्या ह्या पथनाट्याचे ल्हान ल्हान सुटसुटीत भाग केल्यात. ते भाग जोडपाखातीर सूत्रधाराचें पात्र निर्मिलां. आधुनिक गितांचे चालीर आपणालीं संदेशगितां रचल्यांत. पथनाट्य जे गतीन सुरू जाता, तेच गतीन सोंपता.

'भुरगेपण, शॅऽऽ नाका रे देवा' हें दुसरें पथनाट्य, नांवा सारकोच विशय आसा. आवय-बापायनी जर भुरग्यांक सारखीं समजून घेतलीना, भुरग्यांच्या थराचेर येवन, तांचे मानसशास्त्र समजून घेना आसताना तांचेकडेन वेव्हार केलो जाल्यार भुरग्यांक भुरगेपण म्हणल्यार वैताग, कन्फ्युजन अशें दिसप सभावीक आसा. हे पथनाट्य ह्याच विचाराचेर उजवाड घालता.

'पर्यावरण सांबाळात' हे, माथाळ्या प्रमाणेंच पर्यावरणाचेर आदारिल्लें पथनाट्य आसा. तातुंतले सुटसूटीत संवाद अर्थपूर्ण आसात. मनशा प्रमाण झाडां, पेडां, मोनजात जिवाळ हांकां सगळ्यांक जगपाचो अधिकार आसा आनी ह्या सगळ्यांचो समतोल म्हणल्यारूच पर्यावरण असो म्हत्वपूर्ण विचार हें पथनाट्य मांडटा. हातूंत जनावरां पात्रां जावन येतात हें सादरीकणाचे नदरेन वेगळेंपण आसा. बरोवप्यान लोकगितांचो बरो वापर केला, त्याच बरोबर ताका विज्ञानाची बरी जाण आसा, म्हणपाचें दिसून येता.

'आयचीं भुरगीं फायचो फुडार' हें चवथें पथनाट्य भुरग्यांच्या लैंगिक शोशणाआड बरयलां. दर्यादिगो, शाळा, घरांत, हॉटेलांत भुरग्यांचे लैंगिक शोशण कशें जाता, हाचें चित्रण खूब संयमान केलां. शॅकवालो आनी हिप्पी हांचें गांवठी इंग्लीशींतलें संभाशण खूब विनोदी ढंगान जालां. कवनांची रचना खूब बरे तरेन सादल्या.

'संस्काराचे अंत्यसंस्कार' हे पाचवे पथनाट्य घरांत मेळपी संस्कार आनी त्या संस्काराआड भुरगीं कशीं वागतात, ताचेर आटापला. ब्राम्हण-भटाली चली वायट चलणुकेचें जाता, स्वातंत्र्य सैनिकाचो चलो सोऱ्याच्या नादाक लागता, समाज सेवकाचो चलो फोल्गां मारपाक दुसऱ्यांक ब्लॅकमेल करता, बऱ्या कुटुंबांतली चली कॉल सेंटरांत वावुरताना एड्साचे भकीक पडटा, अश्यो घडणुको. ह्या सगळया वायट गजालीं पासून कशें सावध रावचें, तें सांगलां.

'मरणाचें दुसरें नांव एड्स' ह्या सव्या पथनाट्याचो विशय एड्सूच आसा पूण बरोवप्यान तो नाटकीय ढंगान पेश केला. बादशहा बिरबलचे शैलींत राजा, प्रधान सेवक आदि पात्रांची निर्मिती करून विनोद निर्माण केला. एड्स जावपाचीं कारणां, ताचे पासून पैस रावपाचे उपाय, घेवपाची काळजी हाचेविशीं चत्राय दिल्या.

'आयची जीण मोबायल जीण' असो माथाळा सातव्या पथनाट्याचो आसा. हो सामको आयचो आनी ताजो विशय म्हणपाक जाय. भुरग्यांच्या हातांत मोबायल सोंपयिल्ल्यान जे वायट परिणाम जातात, ताची विस्काटावणी केल्या. मोबायलाक लागून भुरग्यांचें अभ्यासाचेर लक्ष लागना, शरिराचेर वायट परिणाम जातात, भुरगीं अश्लील चित्रां पळयतात अश्या अनेक वायट परिणामांची पथनाट्यात चर्चा केल्या.

निमाणे पथनाट्य, 'वायट संगत', आयच्या काळात तरनाट्यामदीं पसरिल्ल्या ड्रग्स ह्या अंमली जिनसांच्या वापराविशीं आसा. हांवें आयजवेर वाचिल्ल्या आनी पळयिल्ल्या पथनाट्यां मदलीं हीं कांय बरीं पथनाट्यां अशें नक्कीच म्हणूं येता.

पथनाट्यां हीं कोंकणी रंगमाचयेचो भाग आसा. एकूण रंगमाचयेच्या संदर्भांत पथनाट्यांचो आतां विचार जावपाक जाय. कारण ही पथनाट्यां फक्त एखाद्या विचारांच्या प्रचारा पुरतीं मर्यादित ना तर एखाद्या नाटकांत जसो साहित्यिक सर्जनात्मक भाग आसता, ताचेंय दर्शन पथनाट्यांत जावपाक लागलां. ते नदरेन सत्यवान नायकाचीं हीं पथनाट्यां एक नमुनो म्हण पळोंव येता.

सत्यवान नायक आनी अशेतरेन 'पथनाट्यां'ची रचना करून निर्मिती करप्यांक हांव परबीं भेटयतां आनी ह्या प्रकारांत तांणी चडान चड योगदान दिवचें अशें मागतां.

**– पुंडलीक नारायण नायक**

■■■

# मांडावळ


- चूक कोणाची? / 15
- भुरगेंपण, शॅऽऽ नाका रे देवा! / 26
- पर्यावरण सांबाळात / 36
- आयची भुरगीं फायचो फुडार / 50
- संस्काराचे अंत्यसंस्कार / 62
- मरणाचे दुसरे नांव एड्स / 71
- आयची जीण-मोबायला जीण / 82
- वायट संगत / 96

- ‘जनजागात’ आसपावीत 1 ते 7 पथनाट्यां कोंकणी भाशा मंडळाच्या युवा महोत्वामजगती आयोजीत खेळ सर्तीत सादर जाल्यांत.
- ‘चूंक कोणाची?’ ह्या पथनाट्याक 2006 वर्सा मार्ग अभियानान मडगांवां आयोजीत केल्ल्या रस्तोनाट्य सर्तीत पयलें इनाम फावो जाल्ले.

# 1

# चूक कोणाची?

❖ पात्रां ❖

सुत्रधार
आवय
बापूय
यश
इश्ट - १
इश्ट - २
इन्स्पेक्टर
मंत्री
राज

सुत्रधार : आयकात म्हज्या भावांनो, आयकात म्हज्या भयणांनो, लायसन्स नासताना गाडी चलोवप कायद्यान गुन्यांव. आयकात, आयकात, हांगा आशिल्ल्या पालकांनो, आयकात. 18 वर्सा पयली गाडी चलोवप कायद्यान गुन्यांव. आयकात हांगा आशिल्ल्या तरणाट्यांनो, भरधाव वेगान गाडी चलोवप होय बी गुन्यांव. आयकात म्हज्या इश्ट- इश्टीणीनो, हॅल्मेट नासतना मोटर सायकल चलोवप होय बी कायद्यान गुन्यांव.

सगळीं : हय, हय. गुन्यांव करतल्यांक, कायदो मोडतल्यांक खर ख्यास्त जाता.

कायदो मोडूं नाका,
गुन्यांव करूं नाका,
भरधांव वेगान गाडी चलोवन,
जीव वगडांव नाका !

सुत्रधार : 18 वर्सा पयली गाडी चलोवप म्हळ्यार ?

सगळीं : मरण ? मरण ? मरण? (किळांच)

सुत्रधार : पळयात तर ही एका कुटुंबाची कथा.

पळय तूं मनशा ही कामतील्या कुटूंबाची कथा,
आवय, बापूय चल्याक मोटार घेवन दिता.

## प्रसंग 1

सुत्रधार : पळयात, तें कामतीलें कुटूंब. तीग जाणांचें. तो कामतीलो एकलो एकसुरो चलो–यश. आयज ताचो वाडडीस.

सगळीं :
आयज तुजो वाडदीस
गोड गोड दीस
सरभोवतणचे इश्ट आयले तुजे
वीस आनी तीस

आवय : मॅनी मॅनी हॅपी रीटर्न्स ऑफ द डे, बाबा.

बापूय : मॅनी मॅनी हॅपी रीटर्न्स ऑफ द डे, यश. आज तुका 15 वर्सां जाल्लीं. आता तूं व्हड जांवक लागला. बरें–वायट तुका कळपाक लागला.

आवय : हय बाबा, असोच व्हड जा. आमचे आशिर्वाद तुका सदांच आसात.

यश : थँक्यू मम्मा, थँक्यू यू डॅडी. पूण म्हजें गिफ्ट खंय ? डॅडी म्हजें गिफ्ट खंय ?

आवय : इतलो आबूज जांव नाका रे यश. डॅडीन हाडलां तुका बरें गिफ्ट.

यश : (उमेदीन) डॅडी दी म्हजें गिफ्ट. दी, दी. म्हाका म्हज्या बायकाची चावी. मोटरसायकल हाडटा म्हूण सांगिल्लें मरे म्हाका ? बेगीन दी! दी बेगीन!

बापूय : (खांदार हात दवरून समजयता) आरे यश, हांवे तुका मोटर बायक हाडूंक ना. बरो ड्रेस हाडला पळय. घे हो! चल घालून दाखय म्हाका.

यश : (तिडकून) डॅडी, कितें हें ? हांव कितें भुरगो, ड्रेस हाडला तो ! डॅडी, तुवें म्हाकां मोटरसायकल दिता सांगिल्ली.

बापूय : (रागान) हे पळय, तुकां इतले बेगीन मोटर सायकल दिवप बरें न्हय. आनी दुसरे म्हणल्यार हांवे तुकां मोटर बायक तुजें शिक्षण सोपल्या उपरांत दितां सांगिल्ली.

आवय : अशें कितें करता? आयच्या दिसा ताचो मूड ऑफ कित्याक करता? हाका एक तुमी मोटरसायकल घेवन दिल्यार तुमचें कितें कमी जाता?

बापूय : कमी जाता खंय ? तूं ताचो पांखो घेवंक नाका.

आवय : कित्याक घेवची ना? पूत न्ही तो म्हज़ो? आनी हे पळयात ताच्या बापूल भावांकडे दोन दोन मोटारी आसात. हाका एक घेवन दिल्यार जाता कितें?

बापूय : हांगाच चुकता तुजें. शिताफुडे मीठ खावपाक तुमी बायलां चड हुशार. राजू-विजू आता 25-30 वर्सांचे आसात. ते स्वता जोडटात. ते 'बायक' घेवचेनात तर कोण घेतले ?

आवय : कितें म्हणलें ? म्हगेलो यश जोडीना म्हूण कितें जालें. योग्य वेळार जोडटलो तो. एकलोच म्हगेलो पूत तो! ताका कितें कमी आसा? तुज्या बापायची इस्टेट आसा. घे ऽऽ म्हूण पैसो आसा! कोणाक तो?

बापूय : आगो राव गो ! तोंडाक येता म्हूण कितेंय बडबडू नाका.

यश : मम्मी म्हजी बायक ?

आवय : तें कांय ना. तुमी आत्ताच्या आता चलात आनी म्हज्या यशाक एक मोटर सायकल घेवन येयात पळोवया!

यश : मम्मी, आमी इतली गिरेस्त आसून कितें फायदो गे ? एक कितेंय मागल्यार लेगीत मेळना ह्या घरांत.

बापूय : (यशाक) तूं मात्सो ओगी बस पळोवया. आनी तूं असल्यानी यशाची वाट लायतली. नाका तितली अपूर्बाय केल्या तुवें ताची. ताका निकतीच पंदरा वर्सां जाल्यांत. आठवेत तीन पावटी फेल जाला आनी असल्याक गाडी घेवन दिवपाची? आपल्याच पांयांर फातर मारुन घेवपाचो?

हे यशा शाणुल्या,

आवड तुका बायकाची,

चेडवांक घेवन भोवपाची.

लोकांक आड घालपाची

मस्तेपणा करपाची,

हिरो जावन भोवपाची

(ए भोळ्या शंकरा.....)

## प्रसंग 2

सुत्रधार : पळयलें! हे चित्र लागी लागी सगळ्या फॅमिलीनी पळोवपाक मेळटा. आयच्या भुरग्यांक, तरणाट्यांक शो मारीत भोवपाची सवंय जाल्या. पिराये पयलीच नाका जाल्ल्यो गजाली शिकून घेवपाची घायी जाल्या. यश, हाका अपवाद ना. ताणे केन्नाच जाय थंय लक्ष घालें ना. अभ्यासांत तर एकदम 'ढ'. शाळेतलो 'नेगेटीव्ह हिरो'. चलयांची फकणां करप, टिचरांक मान दिवप ना हें तर ताचें सदचेंच जालां. मात आपले बायले खातीर आनी चल्याखातीर बापायक नमचें पडटा. झक मारीत बापायक यशाखातीर गाडी हाडची पडटा. (गीत रुपान संवाद)

यश : गाडी कशी दिसता मम्मी ?

आवय : छान बाबा छान.

यश : रंगा रुपान कशी मम्मी ?

आवय : न्हिवली मरे तान?

यश : न्हिवली तर म्हजी तान! पूण मम्मी हें सगळें तुकां लागून जालें आऽऽ. तुवें जर डॅडीक तापोवंक नाशिल्लो जाल्यार म्हाकां बायक मेळचीच नासली.

आवय : म्हजो बाबा तो!

यश : मम्मी तुका सांगतां. त्या शेजारच्या महेशान स्वता 'बायक' हाडिल्ली तेन्ना म्हाका कितलो चाळयतालो तो. आता पळयच तूं. हांव आता दिसभर ताच्या घरामुखार कशी वोल्तां मारता ती! हॉर्न कशें वाजयतां पळय! आनी रेसी तर इतल्यो लायतां की सगळ्यां इश्टांक अजाप करून सोडटा.

बापूय : जाले मरें समादान? आता खंवदळ घालून सोड. वाड्यांवेलीं सगळीं केस्तांवा घरा हाड. पूण खबरदार, म्हज्या कानार अशें तशें कितेंय आयलें जाल्यार. ओगी रावचो ना हांव.

यश : ना डॅडी तशें कांयच जावचें ना.

आवय : तुमी वोगीच अशें कित्याक तापार जाता ?

बापूय : जातलें तेन्ना कळटलें. ते आसू. गाडी मेळ्ळी मरे तुका? आता तो म्हजो मोबायल दी पळोवया.

यश : मम्मी ?

आवय : हे पळयात, गाडी हाडली म्हूण मोबायल परत घेवपाक जाय अशें ना. तो ताचेकडेन आसूं दी. तुमीच दुसरो घेयात. यशाकडे मोबायल उरल्यार ताकाय आनी आमकांय बऱ्याक पडटले.

बापूय : (कपलार हात मारता) आवय-पुतामुखार उपाय ना रे बाबा!

***

अठरा वर्सां पयली गाडी घेवन दिली
कामतिल्या यशाक मोटरबायक दिली
गाडी घेवन यश पिड्ड्यार जालो
गांवच्या रस्त्यांचेर उधळूंक लागलो.
भाटकाराचो चेडो म्हूण लोक ओगी रावले
यश मात दिसान दीस बिघडत गेलो
हॅलो हॅलो करून मोबायलार उलयता
अदी मदी कट मारून लोकांक आड उडयता
(चाल, जयदेव जयदेव)

## प्रसंग 3

सुत्रधार : यश गाडी घेवन वाऱ्यासारको गांवभर धुमाकूळ घालपाक लागलो. वाऱ्याच्या वेगान गाडी चलयतालो. मदी येतल्यांक आड घालतालो. वाटेर चलयो दिसल्यो जाल्यार ताचे मोटरसायकलीची स्पीड आपसूक वाडटाली. गांवची केस्तांवा घरां येताली.

बापूय : यश, असो हांगा यो रे. त्या गावणेकाराच्या चलयेक तुवें गाडयेवेल्यान उडयलें खंय ?

आवय : कितें ? कितें ? हे कितें सांगतात तुमी ?

बापूय : हांव सांगना. चलयेचो बापूय सांगतालो हें. बोब मारतालो तो बाजारांत आमच्या नांवांन.

यश : डॅडी. तातूंत म्हजी कांयच चूक ना. हावें ताका सांगिल्ले म्हाका घट्ट वेंग मारून बस म्हूण. तें तशें बसलेंना देखून पडलें!

बापूय : पळयलें ! पळयलें ! तुजो पूत भायर कितें दिवे लायता तो ?

रस्त्याच्या मदल्यान
बायक वांकडी तिकडी करून
चेडवांक घेवन भोंवता यश हो
कमरेन घालून हात
रेस मारीत भोंवता
मांडवीच्या पुलावेल्यान (चान्याचे राती )

## प्रसंग 4

सुत्रधार : यशाची दादागिरी वाडत वताली. आपली बायक घेवन तो आतां शारांत लेगीत वचपाक लागलो. ना घरच्यांचो भंय ना जगाचो. यशाक रान मेकळें जालें. जाय जाय थंय गाडी घेवन भोंवपाक लागलो. एक दीस रस्त्यार ट्रॅफीक पोलीस इन्स्पेक्टरान ताका

आडायलो जाल्यार ह्या नाकूट भर भुरग्यान इन्सपेक्टराकूच शेळो घाम काडलो. (यश आनी ताचे दोग इश्ट मोटरसायकलीचेर बसून भरधाव वेगान नो एंट्री रस्त्यावेल्यान वतात. यशाच्या तकलेर हेल्मेट ना.)

इश्ट–1 : यश, तो पळय मुखार ट्रॅफीक इन्स्पेक्टर. गाडयेची स्पीड कमी कर.

यश : तुमी कांयच भियोव नाका रे, हांव आसताना.

इश्ट–2 : यश, तुवें हेल्मेटूय घालूंक ना.

यश : तुमी मात्शे ओगी रावात. त्या इन्स्पेक्टराक हांव पळयतां. (इन्स्पेक्टर मदी येता)

इन्स्पेक्टर : राव, राव राव..... (पिल्लूक मारुन आडयता)

यश : कितें जालें ?

इन्स्पेक्टर : नो एन्ट्रीत शंबराचे स्पीडीन बायक चलयता. माथ्यार हेल्मेट ना. ट्रीपल सीट आसा. मार्गावेले सगळेच कायदे मोडटा आनी वेल्यान कितें जालें कांय म्हण्टा? लायसन्स दी तुजें.

यश : लायसन्स घरा उरलें !

इन्स्पेक्टर : घरा कशें उरतलें? चिमटीभर भुरगो तूं. 18 वर्सा खंय जाल्यांत तुका? लायसन्स कोण दितलो तुका?

यश : खरेंच सांगता, लायसन्स आसा म्हजेकडेंन, पूण तें घरा उरलें.

इन्स्पेक्टर : हय, तशें जाल्यार ही बायक हांगाच दवर आनी घरा वचून लायसन्स घेवन यो.

यश : आनी हाडलें ना जाल्यार... ?

इन्स्पेक्टर : शापोतां सांगता म्हाका? पुलिसाक शापोतां सांगता? सोमतो भितर उडयतलो. गाडीय मेळची ना आनी हजारांनी रुपया फायन घालतलों.....

यश : घाल रे... तुकां कोण भियेता? म्हजो मामा येरादारी मंत्री आसा. आताच सांगता तांकां फोन करून. तुजी दादागिरी चड जाली.

इन्स्पेक्टर : ए, तोंड सांबाळून उलय. मंत्र्याचो भंय कोणाक घालता? घे, आतां तुकां फायन घालचीच पडली.

यश : आताच कळटले ! (फोन करता) हॅलो मामा हांव यश उलयतां.

मंत्री : हां, यश सांग.

यश : मामा, हो इन्स्पेक्टर (इन्स्पेक्टराक पळोवन) ए नांव कितें रे ? आ, रापोझ. दादागिरी करता. वाटेर म्हजी गाडी आडयल्या आनी एक हजाराची फायन घाल्या. वेल्यान भितर उडयतलो म्हण्टा.

मंत्री : यश तूं कांयच भियेव नाका. हांव पळयता ताका. दी ताका फोन.

यश : घे रे, मंत्री कामत तुजेकडेन उलोवपाक सोदता.

इन्स्पेक्टर : हॅलो.

मंत्री : हांव मंत्री कामत उलयतां.

इन्स्पेक्टर : सर, सलाम सर,

मंत्री : कितें रे म्हज्या भाच्याक सतायता. भीतर उडयतलो म्हण्टा, फायन घालता?

इन्स्पेक्टर : ना सायब.

मंत्री : सोड ताका बेगीन, ना जाल्यार आत्तांच्या आत्तां सस्पेंड करतां तुका.

इन्स्पेक्टर : येस् सर.

मंत्री : येस् सर कितें?

इन्स्पेक्टर : नो सर.

मंत्री : नो सर कितें?

इन्स्पेक्टर : सोडटां सायब, सोडटां. आत्तांच सोडटा. (घाम पुशीत) सारकें सांगपाचे न्हय रे पयलीं ? तुजो मामा मंत्री म्हूण. चुकलो हांव. माफ कर म्हाका. चलात तुमी, चला चला बेगीन.

## प्रसंग 5

सुत्रधार : पळयलें, नाकूट भर भुरगो हो. पूण पुलिसांक लेगीत भियेना. मंत्री

मामाचो भंय दाखोवन पुलीसांच्या कामांत आडखळी हाडटा. कायदो राखतल्यांक सत्तेच्या नेटार कायदो मोडूंक लायता आनी मागीर जावपाचें तेंच जाता.

दादागिरी करूं नाका,
मर्यादा तोडूं नाका
वेगान गाडी चलोवंक नाका
कायदो मोडूं नाका
त्रासांत पडूं नाका

सुत्रधार : एक दीस यश आपल्या इश्टां वांगडा पिकनिकेक गेल्लो. थंय 'धूम' च्यो रेसी खेळ्ळे.

धूम–धूम
धूम मचाले
धूम मचाले धूम

यश : म्हजी ही नवी बायक, म्हाका कोणूच फाटी घालपाक शकना.
राज : म्हजी पल्सर, ती तुजे गाडयेकूय फास्ट धांवता
यश : हय, चल तर लावया रेसी.
राज : राव राव, हांव मात्शें हेल्मेट घालतां.
यश : ॲ ऽऽ ॲ ऽऽ हेल्मेट कित्याक घालता? तें जाणट्यांनी घालप, हांव असोच येतां.
राज : चल तर, मार स्टार्ट.
सगळीं : कमॉन राज, कमॉन यश.
(अपघात जाल्ल्याची किळांच. दोगूय जमनीर पडटा.)

## प्रसंग 6

सुत्रधार : 'धूम'च्या रेसीत यशाचे गाडयेची स्पीड इतकी वाडली की मुखार येवपी ट्रकाक तो आपटलो आनी आत्ताक सोपलो. फाटल्यान येवपी राज लेगीत आपटलो. पूण हेल्मेट घातिल्ल्यान तो वाटावलो.

आवय : पुता उठ, उठ पुता. कितें जालें रे हें? कित्याक सांडून गेलो रे तूं आमकां (रडटा).

बापूय : तुज्या हट्टाक लागून गेलो तो. मोटर सायकल घेवन दिवंक लायली न्हय तुवें. चुकलें गो तूं चुकलें ! म्हजें आयकल्लें जाल्यार हो प्रसंग येवचो नासलो आयज आमचेर. (मंत्री येता)

मंत्री : आरे हें कितें जालें. म्हजो भाचो म्हाका सोडून गेलो. हाय. हाय. हातूंत म्हजीच चूक आसा. जर तेदिसा हांवे पुलिसांक तांचे काम करूंक दिल्लें जाल्यार... (रडटा).

आवय : यश म्हजेच चुकीक लागून आमकां सोडून गेलो. (रडटा)

***

सुत्रधार : पळयलें न्हय. भुरग्यांक व्हड जावच्या आदीच गाडयो घेवन दिल्यार ताचो परिणाम कितें जाता तो.

सुत्रधार : हय, मरण, मरण.

सगळीं : हय, मरण, मरण, मरण.

सुत्रधार : आवय बापायन भुरग्यांचे लाड करचे, पूण हे लाड जिवघेणे नासचे.शिकपाच्या वेळार शिकचें, खेळपाच्या वेळार खेळचें. आवय बापायन योग्य मार्गदर्शन करून आपल्या भुरग्यांक बरे नागरीक करचे,व्हड करचे.

जीण ही सुंदर आसा
आस्वाद तिजो घेयात
मस्तेपणा करून मात
जीव वगडांव नाकात

■■■

# 2

# भुरगेंपण, शॅऽऽ नाका रे देवा!

❖ पात्रां ❖

सुत्रधार
आवय
बापूय
यशवंत
सर
तेजू

हे भुरगेंपण म्हणल्यार कन्फ्यूजन
हे भुरगेंपण म्हणल्यार पिशेंपण
पिशेंपण, कन्फ्यूजन, नाका रे भुरगेंपण ('ये जीवन है')

सुत्रधार : नमस्कार. हो यशवंत. हांव हाका खूब लागच्यान वळखतां. बरो मायेस्त भुरगो. मनान खूब बरो. मात हाचें इम्प्रेशन मातूय बरें ना. शाळेत टिचरांक तो आवडना. मस्तो भुरगो म्हूण तो फामाद जाला. घरा आवय-बापूय ताका समजून घेनात. आवय म्हणटा हो आमकां सदांच लज करता. बापूय म्हणटा, व्हडलो जातकूच पूत आमकां विकून हाडटलो. थोडें भितर घरांत तशेंच घरा भायर यशवंताविशीं कोणूच बरें उलयनात.यशवंत तूं आतां भुरगो ना. हे काम तुवें करुंक फावो ना. अशें सांगपी आवय-बापूय मदींच ताका म्हणटा. यशवंत तूं आता व्हडलो जालो.अशी भुरगेंपणा करुंक फावो ना. देखून यशवंत सामको कन्फ्यूज्ड जाला, ताका कसो वागचो तेंच कळना.

सगळीं : हे भुरगेंपण म्हणल्यार कन्फ्यूजन
हे भुरगेंपण म्हणल्यार पिशेंपण
पिशेंपण, कन्फ्यूजन, नाका रे भुरगेंपण

**प्रसंग 1**

(यशवंत, ताची आवय आनी बापूय बसल्यांत)

बापूय : सुधा आयज आमच्या ऑफिसातलो सदा आमगेर च्याक येवपाचो आसा.

आवय : तुमचें हें अशेंच. एक आयतार लेगीत म्हाका सुशेग ना. सदांच कोण ना कोण तरी तुमगेले आसताच!

बापूय : आगो आयक गो. शिता फुडे मीठ कित्याक खाता? म्हाका तो आमगेर आयिल्लो नाकाच!

यशवंत : बाबा, बरो इश्ट मरे तो तुजो, आनी तूं अशें म्हणटा?

बापूय : आरे, दळीद्र्या तूं मदें उलयलो? बरो इश्ट जालो म्हूण कितें जालें? म्हजो जीव खावपाक येता तो ! च्या पिवपाक न्हय. म्हाका मात्सो रमेशागेर वचूंक जाय आयज.

यशवंत : रमेश काकाचो जीव खावपाक?

बापूय : पळयलें मगो! पाड पडलेलो येदोसो तुजो हो पूत, कसो उलयता तो?

आवय : यशवंत, बापायकडे असो उलयता? हजारदां सांगलें तुका, सारकें उलोवंक जाय म्हूण. आतां तूं भुरगो उरलां रे? बरें! तें आसूं, च्या बरोबर खावपाक कितें करुं?

बापूय : खावपाक आनी कित्याक? कपलाक?

आवय : मागीर तुज्या इश्टाक कितें दिवपाचें तर?

बापूय : सांगले न्हय एकदां, म्हाका ताका आपोवपाचोच ना.

आवय : मागीर.

बापूय : हे पळय, ताचो आता फोन येतलो. तुमी ताका सांगपाचें हांव भायर सरलां. परतुपाक रात जातली. कळ्ळें?

आवय : व्वा. कांय बरी आयडीया. म्हाकाय सुशेग आनी मागीर टि.व्ही.वेले पिक्चरुय पळोवंक मेळ्ळे.

(इतल्यांत फोन वाजता. यशवंत फोन घेता)

यशवंत : हॅलो कोण उलयता?

सदा : हांव सदा अंकल रे? पापा खंय तुजो? मात्सो फोन दी तुज्या पापाक.

यशवंत : पापा, हांगाच बसला, पूण पापान सांगलां आपूण भायर सरलां आनी रातीक येवपाक उशीर जातलो म्हूण सांग...

(बापूय यशवंताकडच्यान फोन काडून घेता... फोन आपटीता आनी ताका मारुंक लागता.)

बापूय : मेल्ल्या, पाड पडिल्ल्या. असोच म्हाका सदांच त्रासांत घालता. हांव ना म्हूण सांग अशें सांगिल्ले मरें? केलो फटींग मरे म्हाका?

यशवंत : पापा तूं आनी मम्मा म्हाका सदांच सांगता न्हय रे फट उलोवं नाका म्हूण. ल्हान भुरग्यांनी फट उलोवप ना. मागीर तुमी व्हडल्यांनी फट उलयल्यार जाता?

आवय : वयर तोंड करुन बापायक आनी विचारता? सामकोच विटयता मरे तूं. कशें वागप तें कळना रे तुका? आतां तूं ल्हान आसा रे?

हें भुरगेंपण म्हणल्यार कन्फ्यूजन
हे भुरगेंपण म्हणल्यार पिशेंपण
पिशेंपण, कन्फ्यूजन, नाका रे भुरगेंपण

***

सुत्रधार : पळयलें न्हय. कशी कुचंबणा जाता ती यशवंताची. पापा-मम्मा फट उलयता आनी खरें उलोवपी यशवंताक मात मार पडटा. आवय बापायचें नदरेतल्यांन तो केन्ना जाण्टो जाता तर केन्ना भुरगो. ती जाय तशी वागतात, हाकाच लागून यशवंताक हे भुरगेंपण नाका जाता.

## प्रसंग 2

आवय : शी! कितें पसारो केला रे यश हो? ही पुस्तकां हांगा. तें स्कूल बॅग सोफाचेर पडलां. बूट हॉलांत उडयल्यात, युनिफॉर्य केदेलीचेर! कितें हें?

यशवंत : कित्याक बडबडता गे मम्मा?

आवय : कित्याक बडबडटा म्हूण विचारता? तुजी एक वस्तू जाग्यार आसा? तूं आतां ल्हान ना, येदो व्हडलो घोडो जालो तरी तुका वागपाक कळना.

यशवंत : दवरतां गे मागीर. पयली म्हाका मात्शी ही सिरीयल पळोवपाक जाय. 'तेरा पती सिर्फ मेरा है'.

आवय : यश ती व्हडल्यांची सिरीयल. ती तुवें पळोवंक जायना. ते सिरीयलीत हाची भानगड ताचेकडेन आनी ताची भानगड हाचेकडेन अशेंच कितें तरी दाखयतात. तूं अजून ल्हान आसा. असली हळशीक तुवें पळोवंक जायना.

यशवंत : कितें गे मम्मा, आताच तूं म्हणटाली हांव ल्हान ना, घोडो जालो आनी आतां म्हणटा हांव ल्हान आसा! तूं एक किंते तरी उलय मगे सारकें.

आवय : कितें? म्हाका सारकें उलय म्हणटा? येदोसो पोर तूं, म्हाका कशें उलोवपाचे तें तूं शिकयता?

यशवंत : तशें न्हय गे मम्मा!

आवय : तर कशें? येवदी तुज्या पापाक, सांगता ताका. म्हाका उलोवपाची रीत शिकयता. लोकांली भुरगीं पळय रे कांय बरी आवय-बापायक मान दितात. ना जाल्यार तूं आसा! दळीद्रो, विकून खातलो आमकां.

यशवंत : मम्मा हांवे अशें कितें केलां गे?

आवय :

तुका सांगून सांगून पुता
तुजें हट्ट पळोवन पुता
बापूय तुजो पिसावतलो
म्हजो लेगीत जीव वतलो
केन्ना तरी म्हजें तूं आयक, आयक, म्हजें आयक

यशवंत :

म्हजें कितें चुकलां तें सांग.
हांवें कितें केला तें सांग
भुरगेंपणाचो म्हाका आयला बेजार

सदांच तुमचो मार खाल्लो हांवे
म्हाका सुशेग दियात दियात.....( तुजे देख देख सोना.)

****

सुत्रधार : घरांत यशवंत सारको विटलेलो तर आवय-बापूय यशवंताक सामके विटलेले. आवय-बापायक दिसतालें, यशवंतान घरांत वेवस्थीत रावचें. आपल्याक मान दिवचो. यशवंताक दिसतालें, आवय-बापायन आपल्याक लागी घेवचो, आपल्याचेर मोग करचो. पूण तशें कांयच जायनासलें. आता यशवंतूय बारीक-सारीक गजाली वेल्यान बेजार जातालो.

## प्रसंग 3

आवय : यश, टेबलाचेर पांय दवरुन टी.व्ही. कित्याक पळयता? सारको बस.

यशवंत : ना . म्हाका जाय तसो हांव बसतलो.

आवय : ही शापोतां तुज्या बापायक सांग, म्हाका सांगू नाका.

यशवंत : सांगता.

आवय : आयकलां ! मात्शें हांगा येयात पळोवया.

बापूय : कितें जालें ?

आवय : पळय तुमच्या पुताक, कसो बसला तो.

बापूय : यश कितें हें? कसली भुरगेंपणा करता हीं ! पाय पयली सकल दवर ना जाल्यार मोडून घालता तो!

यशवंत : भुरगेंपणा? हीच नाका जाल्यांत म्हाका!

भुरगेंपण नाका, भुरगेंपण नाका
जीव म्हजो विटलो, हें भुरगेंपण नाका
टी. व्ही. पळोव नाका, खेळूंक वचूं नाका
हे करुं नाका, ते करुं नाका

हे खांव नाका, ते खांव नाका
हाका आपोवं नाका, ताका आपोवं नाका
शाळेत वचत जाल्यार टीचर जीव काडटा
घरां येता जाल्यार आवय-बापूय सतयता
भुरगेंपण नाका, भुरगेंपण नाका
देवा रे देवा भुरगेंपण नाका. ( जयदेव जयदेव)

***

सुत्रधार : घरचें वातावरण भुरग्यांच्या घडणुकेखातीर म्हत्वाचें आसता. ताचो प्रभाव ताच्या जिणेचेर पडटा. मात यशवंताची मम्मी-पप्पा ताका वेवस्थीत समजावन सांगिनात. देखून आवय-बापूय करतात त्यो गजाली आपणेय करच्यो अशें ताका दिसता.

## प्रसंग 4

बापूय : सुधा, णव जाली. बेगीन भायर सर, उशीर करुं नाका.

आवय : जालें जालें. हे पळय आयलें.

यशवंत : मम्मा, पापा खंय चल्ली तुमी दोगांय?

आवय : बाबा, भूक लागतकच जेव आं. आमी मात्शी रमेश अंकलागेर वचून येतात.

यशवंत : कित्याक?

बापूय : पार्टी आसा तांगेर.

यशवंत : हांवूय येतलो.

आवय : बाबा, पार्टेक ल्हान भुरगीं वचनात. थंय बरे लोक येनात.

यशवंत : बरे लोक येना म्हणल्यार?

बापूय : आरे थंय लोक सोरो पितात, सिग्रेटी ओडटात, डान्स करतात. अशा जाग्यार ल्हान भुरगीं वचनात.

आवय : हय, तुजेर वायट परिणाम जायत म्हूण तुका आमी व्हरनात.

यशवंत : थंय बरे लोक येनात जाल्यार तुमी कित्याक वतात तर ?

***

सुत्रधार : यशवंताकडेन, अशे तरेचे कितलेशेच प्रस्न आशिल्ले. ताच्यो जापो ताका मेळनाशिल्ल्यो. हळू हळू यशवंत मस्तो जावपाक लागलो. शाळेत हाका धूकल, ताका मार, शिकयताना चॉकेलेटी खा, बोरां खा, अशें करूंक लागिल्ल्यान यशवंताक आतां टिचरांचोय प्रसाद मेळटालो. टिचरांचें यशवंताविशींचे मत बरें नासलें. देखून कोणेंय कितें करूं, येतालें मात यशवंताचेर....

## प्रसंग 5

भुरगीं : Good Morning Sir,

सर : Good Morning बसात.
चला आता हजेरी दियात.

सर : Roll No. 1, 2,3,4,5

सर : Roll No. 5, Roll No. 5 ?

तेजू : सर Roll No. 5 यशवंताचो, अजून येवंक ना.

यशवंत : Present Sir, हो पळय हांव आयलो.

सर : यशवंत तुका येवपाक उशीर कित्याक जालो ?

तेजू : सर तो चंदूची सायकल पंक्चर करतालो.

सर : तो आनीक कितें करतलो ?

यशवंत : ना सर, म्हाका बस चुकली.

सर : पुरो पुरो, चल बस वचून तुज्या जाग्यार.

सर : चलात आयज आमी आनी एक प्रोब्लेम सोल करू या.

सर : $2a+2b=$
(कोणतरी सराचेर चॉक मारता)
(सगळीं भुरगी हांसता)

सर : Shut up. म्हजेर कोणे चॉक मारलो ?

सर : उलयात बेगीन. यशवंत म्हजेर चॉक कोणे मारलो ?

यशवंत : सर हांवे न्हय.

सर : तुवें न्हय तर कोणे ?

यशवंत : सर म्हाका खबर ना.

सर : तुका खबर ना ? हांगा यो. सांग कोणें मारलो ? सांग ? तुवेंच मारला आसतलो. (मारता)

यशवंत : सर खरेंच हांवे न्हय.

सर : येदोसो चिमटीभर भुरगो तूं, सराची फकांडां करता. घे. (मारीत रावता)

सर : मार दिवपाचो काय,
तुजो जीव घेवपाचो.
यशवंता रेड्या सांग,
तुजें कितें करपाचे! (मार दिया जाय)

***

सुत्रधार : पळयलें! यशवंताच्या वांट्याक आयिल्लें अपयश. यशवंत वचत थंय नावाडगोच थारता. यशवंताचेर घरा आवय बापूय बेजारल्यांत. शाळेत टिचरी वाजेल्यांत. यशवंताक हे परिस्थितीत कशें वागचे ते कळना. तो पुराय कन्फ्यूज्ड जाला. आनी देखून स्वतःचे भुरगेंपणूच ताका नाका जालां.

## प्रसंग 6

यशवंत : (तिडकून) भुरगो भुरगो भुरगो ! हय हांव अजुनय भुरगोच आसा. म्हाका खबर आसा तें!

बरें कितें, वायट कितें ते म्हाका सामके बरें समजता. तरीय भुरगेंपणाचे निमित्त करून म्हाका सगळींच कित्याक फाटी ओडटात? भुरगेंपण जर अशें आसता जाल्यार देवा नाकाच म्हाका हें भुरगेंपण, नाकाच आनीक नाकाच! भुरगेंपणात जर म्हाका कायंच

करुंक मेळना जाल्यार कित्याक जाय हें भुरगेंपण? ते परस देवा म्हाका जायते करपाक दी! म्हाका जाण्टेपण दी गा देवा, म्हाका जाण्टेपण दि !

गणपती देवा करीन तुजी सेवा
नैवेद्य वाहीन रे देवा नैवेद्य वाहीन
भुरगेंपण म्हाका पुरो जाले देवा
जाण्टेपण दिगा देवा, देवा जाण्टेपण दिगा !
व्हडलो म्हाका बेगीन कर
टिचरीपसून सुटका कर
आवय-बापायचो मोग दी
जाण्टो कर गा देवा, म्हाका जाण्टो कर
मेकळो म्हाका रावंक दी
उसरां म्हाका उठूं दी
जाय जायतें करूं दी देवा
म्हाका जायतें करूंदी देवा. (गणपती देवा)

सुत्रधार : पळयलें, एका भुरग्याचें भुरगेंपण कशें सोपलें तें ! आनी सोपोवपी कोण? ताचेच आवय बापूय. ताचेच टिचर! खरें म्हणल्यार एक जापसालदार, एक सुसंस्कृत, मायेस्त, मोगाळ आनी सर्वसंपन्न गुणेस्त मनीस घडोवपीच जर गैर वागले जाल्यार निरोगी मनीस पिळगी कशी घडटली? विचार करात आनी भुरग्यांक फायचे बेस बरे मनीस,नागरीक, घडोवपाखातीर तांकां, माये-मोगान कुशीत घेयात. तांकां समजून घेयात. तुमच्यानी खूब कितें करूं येता...

हे भुरगेंपण म्हणल्यार कन्फ्यूजन
हे भुरगेंपण म्हणल्यार पिशेंपण
पिशेंपण, कन्फ्यूजन, नाका रे भुरगेंपण



# 3
# पर्यावरण सांबाळात

❖ पात्रां ❖

| | |
|---|---|
| सुत्रधार | अस्वल |
| राजू | गार |
| सतीश | पोपट |
| सचीन | पयलो |
| सुनील | दुसरो |
| पप्पा | तिसरो |
| पीटर | चवथो |
| स्नेहा | मनीस 1 ते 6 |
| पृथ्वी | चलो - 1 ते 6 |
| हत्ती | चली - 1 ते 6 |
| वाघ | पंगड - 1 |
| सोरोप | पंगड - 2 |

सूत्रधार : आयकात म्हज्या भावांनो! आयकात म्हज्या भयणांनो!

पर्यावरणाचो सांबाळ आनी राखण करप आयज आमचे पयलें कर्तव्य जावन आसा.

आयकात, आयकात! पर्यावरणाचो सांबाळ म्हणल्यार मनीसजातीचो सांबाळ. पर्यावरणाचो सांबाळ म्हणल्यार मनशाचीच उदरगत. आयकात, आयकात! पर्यावरण म्हणल्यारूच सैम. सैमाची राखण केली ना जाल्यार मनीस जगपाक पावचो ना. ताचो नाश अटळ. देखून पर्यावरणाची राखण ही काळाजी गरज.

आयकात, आयकात!

***

एकटो : पर्यावरण ! पर्यावरण! कितें हे पर्यावरण-कितें आसा ह्या पर्यावरणात?

सूत्रधार : पर्यावरण ह्या शब्दात 6 'प' आसात.

चली 1 : 1 लो 'प' म्हणल्यार पवन, म्हणल्यार हवा.

चलो 2 : 2 रो 'प' म्हणल्यार पाणी, म्हणल्यार उदक.

चली 3 : 3 रो 'प' म्हणल्यार पेड-पौधे, म्हणल्यार झाडा-पेडां.

चलो 4 : 4 थो 'प' म्हणल्यार पृथ्वी, म्हणल्यार धर्तरी.

चली 5 : 5 वो 'प' म्हणल्यार पशु-पक्षी, म्हणल्यार सावदां-सुकणीं.

चलो 6 : 6 वो 'प' म्हणल्यार प्राणीमात्र, म्हणल्यार मनीस जात.

सुत्रधार : ह्या 6 'प' चो आमी वेवस्थीत सांभाळ करीना देखून सातवो

'प'जल्माक येता.

चलो 1 : कोण तो ?

सुत्रधार : तो म्हणल्यार प्रदुशण. म्हणजेच पोलुशन.

चलो 2 : आऽऽ प्रदुशण !

सुत्रधार : हय, हो प्रदुशणाचो राक्षस जल्माक येता आनी सगळे धर्तरेचेर आपलें राज्य करून तिका नाका पुरो करता.

चलो 3 : ना, ना आमी आमचे धर्तरेक ह्या सातव्या राक्षसा पसून आडोवक जाय.

चलो 4 : धर्तर बरी नितळ निरोगी दवरूंक जाय.. प्रदुशण राक्षसाक यमकोंडात धाडपाक जाय.

सुत्रधार : तशें जाल्यार चलात. पर्यावरणाचो सांबाळ आनी राखण करपाक आमी कशें अपेशी थारल्यांत तें पळोवया आनी कितें उपाय काडूंक जाता जाल्यार काडूं या. ही आसा पयल्या 'प' ची गजाल. 'प' म्हणल्यार पवन, म्हणल्यार हवा.

***

चलयो :

गाडी धांवता रे धुल्लाची,
ही वाट बाये खडड्यांची,
गाडी धांवता रे धुवरांची,
हवेचें प्रदुशण करताली

चलो 1 : रस्त्याचेर रासभर मोटारी. मनशांक चलपाक लेगीत त्रास.

चली 1 : गाडयांच्या धुवरांन, रस्त्याच्या धुल्लान, हवेचे प्रदुशण वाडलें.

चलो 2 : ताचें कोणा एकल्याक लेगीत ना पडलें!

चली 2 : आयज गोंयांत मनशांपरस संख्या वाडली गाडयांची.

चलो 3 : ताचेर विचार करपाची जबाबदारी जण एकल्याची.

चली 3 : गाडयांची संख्या वाडली म्हणल्यार कितें जालें ?

चलो 4 : लोकांकडे पयशे आयले.

चली 4 : गाडयो घेवपाचें तांचे थारलें.
चलो 5 : तुज्या रे पोटान कित्याक दुकलें ?
चलो 6 : बाय अशें तिडकीन उलोवं नाका.
चलो 5 : पिशेंपणा करुं नाका
चलो 3 : गाडयो सोडट्रात त्या धुवरांत आसतात विखारी वायू.
चली 4 : जे करतात उणें आमचे आयू.
चलो 1 : हय ह्या धुंवरान आसता...
चली 2 : कार्बन मोनोक्सायड आनी कार्बन डायोक्सायड
चलो 3 : दोनूय वायू हवेंत मिसळटात.
चलो 4 : तीच हवा आमी शरीरात घेतात.
चली 1 : मागीर कितें जाता ?
चलो 1 : दुशीत वायू पोटांत घेवन वेगवगळी दुयेंसां जातात.
चली 2 : मागीर कितें करपाचें ?
चली 3 : गाडयो घेवप सोडपाचें ?
चली 4 : गाडयांनी भोवप सोडपाचें ?
चली 5 : कांय फकत चलत वचपाचें ?
चली 2 : पळत पळत धांवपाचें ?
चली 3 : सांग तरी गाडयो ना जाल्यार कितें करपाचें ?
चलो 1 : हांवे गाडी घेव नाका म्हणूंक ना, गाडयांनी भोवूंक नाका म्हणूंक ना.
चलो 5 : मागीर.
चलो 2 : एका कुटूंबान एकूच वाहन वापरचें.
चलो 3 : जमता जाल्यार सगळ्यांनी बशीत प्रवास करपाचो.
चलो 4 : लागी वचपाचें आसल्यार चलत वचपाचें.
चली 1 : अशें केल्यार कितें जातलें ?
चलो 2 : बशीन प्रवास केल्यार...
चलो 3 : रस्त्यावयली वाहनां उणी जातलीं.
चली 4 : गाडयांचो धुंवर उणो जातलो.
चलो 3 : हवेचें प्रदुशण उणें जातलें.

चलो 4 : मागीर हांगाची मनशां, झाडां-पेडां सुखी जातलीं. नितळ उरतली.

सगळे : हय हय तशेंच करूया आनी पर्यावरण सांबाळूंया.

***

सूत्रधार : इश्टांनो पळयलें न्हय! गाडयांचो जो धुंवर जाका Exhaust Smoke म्हणटात तो वाडला, ताका लागून हवेचें तापमान वाडलां. गरमी वाडल्या. हिमशिखरां विरगळपाक लागल्यांत, दर्याची पातळी वाडल्या. सगळ्यांक अशें तरेच्या संकटांनी विळखो घाला.

एकटो : तर हाचेर उपाय कितें?

सूत्रधार : हाचेर उपाय एकूच. 'कमीत कमी इंधनाचो वापर. कमीत कमी गाडयांचो वापर.'

सूत्रधार : चलात आमी आता दुसऱ्या 'प' क मेळूंया. दुसरो 'प' म्हणल्यार पाणी. म्हणल्यार उदक.

****

पंगड 1 :

उदक वाचयात उदक वाचयात
थेंब थेंब करुन उदक वाचयात.
घरांतलो कचरो गांवातलो कचरो
उदकांत सोडू नाका, उदक नितळ दवरात
गाडयो, मोटारी, माखनां
न्हंयचेर धूंव नाकात.
उदकाचो इबाड करुं नाकात
संडासाचें, बाथरुमाचें उदक
उक्त्यार सोडू नाकात
गांवातल्यो न्हंयो, बायों पाड करूं नाकात
नळ चालूच दवरून कपडे धुंव नाका
शॉवराचेर वरांची वरां न्हायंत बसू नाका
उदक वाचयात उदक वाचयात.

राजू : आरे सतीश कितें करता रे?

सतीश : दिसना रे गाडी धुतां ती?

राजू : दिसता रे. पूण असो उदकाचो इबाड करुन?

सतीश : म्हणल्यार गाडी किंते पावडरान धूवं तर ? सामकोच बाप्पा कसो उलयता मरे!

राजू : उदकानूच धुंवची रे! पूण पायपातल्यान उदक चालूच दवरुन अशी गाडी धुंवपाची गरज आसा?

सतीश : आ ऽऽ. ताका लागून म्हणटा तूं. इल्लें उदक व्हांवलें जाल्यार जाता कितें?

राजू : कितें जाता? कितें जायना तें विचार. आरे तूंच तर सदांच म्हणटा मरे, आमकां घरांत उदकूच येना!

सतीश : खरेंच तें. भायर रस्त्यावेल्या नळाक उदक येता. पूण घरांतले नळ मात सुके.

राजू : उरतलेच, तुज्या सारके सगळेच जाण जर पायप चालू करून गाडयो धुंवपाक लागले जाल्यार तुज्या घरातल्या नळाक उदक येतलें कशें?

सतीश : हे मात खरें रे तुजें. हे पळय, हो नळ आता बंद करतां आनी बादलेत उदक घेवनूच गाडी धुतां.

राजू : कळ्ळें मरे आता? ह्यान फुडें उदक सांबाळून वापर. मागीर तुज्याच न्हय वाड्यावेल्या सगळ्यांच्याच घरांतल्या नळाक उदक चडटलें.

***

सूत्रधार : पळयलें ! सतीशा सारके जायते बेफीकीर लोक हांगा आसात. नळ चालूच दवरुन कपडे, आयदनां धूवप, न्हावंप करप हे संदाचेच जालां. उदकाचो सांबांळ करचे बदला उदकाचो इबाड करपाकूच आमी धन्यताय मानता.

पयलो : इश्टा उदक म्हणल्यार जीवन.

दुसरो : ताची गरज सगळ्यांक आसा.

तिसरो : उदक ना जाल्यार झाडां-पेडां मरतलीं.

चवथो : जनावरां, सुकणी–सवणी सगळीं नाच जातलीं.

सगळे : सैमाचे हे सुंदर घटक जागोवया. उदक वाटावन पर्यावरण सांबाळूया.

सूत्रधार : पळयले न्हय, अशे तरेन उदकाचो इबाड केल्यार एक दीस आमकां उदकूच मेळचेना. देखून 'उदकाचो सांबाळ' हेच आमचें पयलें काम.

***

सुत्रधार : आरे हे कोण? आनी अशें रडटात कित्याक? चला तांची खबर घेवया.

हत्तीदादा, वाघमामा, अस्वलभाय, मोरमामा कितें जालां रे? तुमी रडटात कित्याक? वळवळटात कित्याक? हो पर्यावरणाचो आनीक एक 'प'. सगळ्यांत घटमूट. पूण ते आयज रडटात.

(हत्ती, वाघ, अस्वल, मोर, पोपट, सोरोप, गार गीत म्हण्टात).

हे आमचें जीवन.
ना कसलें उपेगाचे.
ही मनीस जात.
आमकां मारून
आमच्योच काती काडटात.
आमच्या जिवाचेर पैशे करुन
गिरेस्त म्हूण मिरयता.

हत्ती : म्हाका पळयात, म्हजो हो दांत काडपाक ह्या लोकांनी म्हाका कितलो नाचयलो. देवाची कृपा म्हूण वांचलो हांव.

वाघ : जाणां हांव, एका काळार त्या विरपन्नान तर तुज्या भावां–भयणांक जितींच मारून तांच्या दातांची तस्करी लेगीत केल्ली !

हत्ती : आनीक कितें !

वाघ : पूण तुज्या दातांचो मनशाक कसलो फायदो रे हत्तीदादा ?

हत्ती : म्हज्या दांतापासून भांगरापेक्षा म्हारग वस्तू तयार जातात.

वाघ : आनी म्हजी कात काडून ते लोक बॅगो, बॅल्ट तयार करपाक फाटीफुडे पळोवचे नात.

सोरोप : आमच्याय कातीच्यो अशोच वस्तू तयार करतात ते लोक.

अस्वल : आनी आमकां सोडल्यात तर त्या लोकांनी? आमचे कातीचे फर कोट तयार करतात. थंडेक उपकारता खंय तांकां!

गार : आनी आमचें चामडें तांच्या घुमटाक, शामेळाक वापरतात तें कितें?

पोपट : म्हणजे स्वतःच्या फायद्याखातीर ह्या लोकांनी आमकां काबार करप? खंयचो न्याय हो?

हत्ती : आमी ना जाल्यार तांचे कितें जातलें ताची कल्पना मनशांक ना. पूण एक खरे. मनशां इतलो क्रूर आनी भिरांकूळ आनीक कोणूच ना.

सगळे : हय, हय.

सुत्रधार : पळयले न्हय! ही जनावरां सैमाचो समतोल राखपाक उपकाराक पडटात. तांचोच जर मनशान स्वताच्या फायद्याक लागून नाश केलो जाल्यार मनीसूच त्रासांत पडटले हे त्या जनावरांक लेगीत कळ्ळें. मात मनशाक हे कशेंच कळना. 'देवा तूच सांबाळ रे मनशांक ह्या संकटातल्यान.'

***

सुत्रधार : ही कोण? आनी अशी बेजार कित्याक जाल्या? तूं कोण?

पृथ्वी : हांव पृथ्वी. पर्यावरणाची जन्मदाती. तुमची माय. मायभूंय. आवयवरी तुमचेर मोग केलो पूण बदल्यांत तुमी म्हाका कितें दिलें? तुमी म्हजी दैना करुन उडयल्यात.

चलो : मायभूयें तूच आमची आवय, आमी तुजी दैना कशी केल्या?

पृथ्वी : कशी कांय म्हणटात? चलात, येयात म्हजें वांगडा. (धालाच्या मांडार व्हरता. थंय बायलो एकमेंकांक कपलाक लायतात आनी मागीर धालो खेळटात.)

चली : श्री धालो गे बाये धालो गे

धालांनी खेळूया धालो गे

पंगड 1 : पयलें चार्फें कोणाक गे बाये ?

पंगड 2 : धरतरे मायेक दिलें गे बाये

पंगड 1 : चार्फी खुटी देव रुशी गे। खेळूंक आयला मांडार गे।

पंगड 2 : धरतर मायेक इबाडून उडयली। झाडां-पेडां कापून उडयलीं।

पंगड 1 : रानावनां कापली गे। धरतरेक बोडकी केली गे।

पंगड 2 : तरेतरेच्यो कंपन्यो आमच्या पांचव्या भुंयेर आयल्यो गे।

पंगड 1 : मायनिंगाच्या नावार गे, दोंगर कापून कापून काबार गे।

पंगड 2 : दर्यादिगेर हॉटेलां गे, टुरीस्टांच्या मजेक गे।

पंगड 1 : दर्यावेळो काबार गे, लोकांचेर आयलो सांवार गे।

चलो 1 : इश्टांनो, धरतरेक वाचयात. आपले आवयक वाचयात.

चली 2 : हे मातयेन आमचो सांबाळ केलो.

चलो 3 : अन्न उदक दिवन आमचो जीव राखलो.

चली 1 : पूण आमी कितें केलें ?

चलो 3 : जमनी विकून पैसो केलो.

चलो 4 : दोंगर कापून घरां, बंगले फॅक्टऱ्यो बांदल्यो

चली 2 : प्रदुशणाक आमंत्रण दिलें.

चलो 5 : पर्यावरणाचो इबाड केलो.

चली 3 : बेकायदेशीर मीन काडून गोंयचें वैभव सोपयलें.

चलो 5 : फक्त पैसो करपाक सगळे मीन ना केलें.

चली 2 : पूण ती मात ओगी शांत.

चलो 3 : आपल्या भुरग्यांचो दर एक गुन्यांव माफ करुन ...

चली 4 : ...समजून घेवन तांच्यो गरजो भागयता.

चलो 1 : आमी इबाडली धर्तरेक.

चली 2 : आमी सोपयली धर्तरी.

चलो 3 : जागे जावया आमी.

चली 1 : बेगीन जागे जावया.

सगळें : हय हय धरतरेक वाचोवया

धरतरेक सांबाळूया.

जायात जागे जायात जागे

अजून आसात पिडपी हांगा

अजून आसात नाडपी हांगा

तरणें तशें दांडगे तुमी

अजून कशें रावल्यात ओगे

(* कवी मनोहरराय सरदेसाय हांच्या कवितेतल्यो वळीं)

चलो 1 : नाका आमकां बेकायदेशीर खाण वेवसाय.

चली 2 : नाका आमकां इफ्फी.

चलो 3 : नाका आमकां प्रदुशणकारी नवे उद्योग.

चली 4 : हें आमच्या गोंयांत नाका.

चलयो : हे सगळें थांबयात.

सगळें : चडांत चड झाडां लावंक जाय.धरतरेक पाचवो चार शालू पर्थून न्हेसोवपाक जाय.

सुत्रधार : झाडांचो करशात ऱ्हास, ताचो जातलो तुमकांच त्रास.

***

सुत्रधार : चलात पर्यावरणातल्या आनीक एका 'प' क म्हणल्यार पेड-पौधे, तांका मेळूया.

(सुनील आनी सचिन, सुदीपागेर वतात. सुदीपाचो आयज वाडदीस)

बार बार दिन ये आये.........बार बार दिल ये गाये

तू जिये हजारो साल..........ये येरी है आरजू

हॅपी बर्थडे टू यू, हॅपी बर्थडे टू यू,

हॅपी बर्थडे टू यू सुदीप, हॅपी बर्थडे टू यू,

सचिन/
सुनील : Hi Sudeep, many many happy returns of the day.

सुदीप : देव बरें करूं! चलात हांव तुमकांच रावतालो. पीटर, स्नेहा बी आयल्यात. आता ओवाळणी जातली.

सुनील : आरे वाडदीस कांय भाऊबीज रे तुजी? ओवाळटा कोण आनी कोणाक?

सुदीप : कोण म्हणजे? आई म्हजी !

सचिन : केक बी आसा मरे? आनी हे कितें? सजावट बी कांय ना. पीक पीक लायटी बी झाडांचेर कांयच चडोवं ना मरे.

सुनील : म्हज्या वाडदिसाक पुराय घरा सयत, पोरसातलें आंब्याचे झाड, पेरीचे झाड लायटीनी सजयल्लें.

सचिन : सुदीप, म्हाका दिशील्लें तुज्याय पार्टेक अशेंच कितें आसतलें म्हूण.

सुनील : हय मरे... हांणी फटयले कांय कितें रे आमकां? कांय व्हडलो बोवाळ ना मरे!

पप्पा : कितें जाले रे भुरग्यांनो?

सुनील : पप्पा, झाडांचेर सिरियली घालूंक ना, म्हूण तें बेजार जाल्यात.

पप्पा : कळ्ळें म्हाका. भुरग्यानों, अंदू आमी सुदीपाचो वाडदीस पर्यावरण फ्रेन्डली केला.

सुनील : म्हणजे कितें?

पप्पा : राव सांगतां. पेटयल्ल्यो लायटीच्यो माळो झाडाचेर सोडयल्यार झाडांची कात भाजता आनी झाडांची वाड जायना. झाडांक फळां-फुलां बरे तरेन फुलना. झाडांचेर ह्यो वायरी बऱ्योच तेंप उरल्यार झाडां करपतात.

पीटर : आवयस! तशें जाल्यार इफ्फी वेळार पणजेतली सगळी झाडां सिरियलींनी भरील्ली आसता तेन्ना ती करपतात तें तांकां खबर ना तर!

सुदीप : तांकां खबर आसू नासू. पूण आमी तशें करुंक ना आनी ह्यान फुडें कोणी झाडांचेर लायटी घालच्यो न्हय.

पप्पा : पेटील्ल्या लायटीच्या बल्बाक हात लागल्यार कितें जातले रे सचिन?

सचिन : भाजतलो.

पप्पा : भाजतलो मरे! तशेंच झाडांकूय जीव आसता. तांचेय तशेंच जावचे ना?

सुनील : पप्पा कळ्ळे रे आमकां. तुवें आमचे दोळे उगडले. आमी आता ह्यान मुखार केन्नाच झाडांचेर लायटी सोडचे नात.

स्नेहा : आमी ह्यांन फुडें केन्नाच झाडांक त्रास दिवचे नात. झाडांची राखण आमी करीत जाल्यार तीं आमची राखण करतलीं.

झाडांनी आमका सदांच दिला प्राण
फुलां फळां वखदां आनी खाण
झाडांक लेगीत जीव आसा
तांकाय आसात भावना
कशें रे तुमकां कळना
कशें रे तुमी वळनात.

पीटर : आमी झाडां-पेडां कापून घरांतले फर्निचर लेगीत करची नात.

सचिन : आनी चुकून गरज पडल्यार एक झाड कापले जाल्यार ताच्या जाग्यार चार झाडां लायतले.

पप्पा : शाब्बास म्हज्या भुरग्यांनो! अशेंच करात आनी झाडां वाटयात. झाडां लायात आनी पर्यावरण सांबाळात.

मम्मी : सुदीप. चल ओवाळणी करुंया. तुज्या इश्टांक घेवन भितर यो.

पप्पा : चलात रे, सगळीं जाणां.

***

सुत्रधार : हो पर्यावरणातलो निमणो 'प' म्हणल्यार बुध्दीजीवी प्राणीमात्र. म्हणल्यारूच मनीस! संवसारातलो सगळ्यांत फुडारील्लो, उदरगत साधिल्लो प्राणी, मात तितलोच क्रूर, दुश्ट, स्वार्थी आनी विस्वासघातकी. जे जमनीन ताका जल्म दिलो, वाडयलो, सांबाळ्ळो, पोसलो तिच्याच काळजाचे कुडके करुंक हो सगळ्यांत

फुडे.

सोबीत सुंदर धर्तरी
आंता उरली ना रे
उरलां फकत प्रदुशीत सैम
आनी दुयेंसांचो भंय

मनीस 1 : सुरवातीक रावपा खातीर हांवे रानां-वनां कापून घरां-बंगले बांदले.

मनीस 2 : गिरेस्त जावपाखातीर व्हडल्यो व्हडल्यो प्रदुशणकारी फॅक्टरी सुरु केल्यो.

मनीस 3 : कारखान्यांतल्यान भायर पडपी विखारी धुवरांन सगळें मळब भरून उडयलें.

मनीस 4 : हवा प्रदुशीत केली.

मनीस 5 : सी. एफ्. सी. गॅसीन ओझोन लेयराक बुराक घातलो.

मनीस 6 : 'ग्लोबल वॉर्मींग' वाडलें तें म्हाकाच लागून.

मनीस 1 : स्वास घेवपाक शुध्द हवा ना ती म्हाकाच लागून.

मनीस 2 : पिवपाक शुध्द उदक ना तें म्हाकाच लागून.

मनीस 3 : जेवपाक सैमीक अन्न ना तें म्हाकाच लागून.

सगळे : हय, ह्या सगळ्यांक जबाबदार आमी. आमी मनीस!

यनीस 1 : प्लास्टीकाचो वापर आमीच करता.

यनीस 2 : कोयर आमीच रस्त्यार उडयता.

मनीस 3 : सांडपाण्याचे पाट रस्त्यावेल्यान आमीच व्हांवयता.

मनीस 4 : मागीर जळारांची पैदास आमकांच लागून जाता.

मनीस 5 : आयज हांव बंदी जाला अनेक दुयेंसांचो.

मनीस 6 : ह्या सगळ्यांचो म्हाका आता वीट आयला.

सगळीं : सगळ्यांपासून आमकां जाय आता मुक्ती. नितळ आनी निरोगी जीण जगपाची लागल्या आमकां उमळशीक.

***

सूत्रधार : पळयलें न्ही? पर्यावरणाचो सांबाळ करीना जाल्यार आमचेर कसली परिस्थिती येव येता ती. मनशांनो, प्रदुशणाच्या ह्या राक्षसाक आमी जाता ते तरेन आडोवंक जाय. झाडां-पेडांची, मनशांची घेता तशी काळजी घेवंक जाय. बेकायदेशीर मीन खणून जमनीचे लूकसाण करपाचें आमी थांबोवंक जाय. उदक म्हणल्यार जीवन. तें प्रदुशीत करीनासतना फुडले पिळगेखातीर नितळ-निवळ दवरपाची जापसालदारकी आमची. वाहनांचो धुंवर हवेत मिसळील्ल्यान सगळ्यांची जीण धोक्यात आसा. हे मनशा, प्रदुशण आडोवन स्वताची जतनाय घे. झाडां-पेडां मारीनासताना, सैमाक दुखयनासतना हे धर्तरेची जतनाय घे. जनावरां-सुकणी-सावदांचीय जतनाय घे. ना जाल्यार धर्तरेवेले अनेक प्राणी ना जाता तशें तुमीय एक दीस नाच्च जातले. देखून मनशा सावधान! स्वताक सांबाळ. धर्तरेक सांबाळ, सैमाक सांबाळ, स्वताच्या अस्तित्वाक सांबाळ. 'जाग मनशा जाग.'



# 4
# आयची भुरगीं फायचो फुडार

❖ पात्रां ❖

पयलो
दुसरो
शॅकवालो
हिप्पी
कायतान
चली
सायब
सोनाली
ड्रायव्हर
चंदू
चलो
मॅडम
लोक 1 ते 6

जयोऽस्तुते जयोऽस्तु ते
श्री महन्मंगले शिवास्पदे शुभदे
स्वतंत्रते भगवती त्वामहम् यशोयुतां वंदे!
राष्ट्राचें चैतन्य मुर्त तूं नीती संपदांची
स्वतन्त्रते भगवती श्रीमती राज्ञी तूं त्यांची
परवशतेच्या नभांत तूंची आकाशी होशी
स्वतन्त्रते भगवती चांदणी चमचम-लखलखशी

**दीस : 19 डिसेंबर**

(गोंयांक मुक्ती मेळून आयज 53 वर्सा जाल्यांत. मुक्तीदीस मनयल्ल्याचें सगळेकडे वातावरण. रस्त्यावयल्यान शाळेतलीं भुरगीं घरां वतना दिश्टी पडटात. (दोग जाण उलयत येता)

पयलो : आयज आमी गोंय मुक्ती दिसाचो 53 वो वर्सुको दीस उर्बे उमेदीन मनयतात.

दुसरो : हय. सगळेच जाण आयज उमेदीन आसात. पळय तीं भुरगीं. शाळेत मुक्तीदीस मनोवन घरां वचपाक लागल्यांत.

पयले : पूण तुका दिसता गोंयकार खरेंच मुक्त जाल्यात ?

दुसरो : तुका कितें म्हणपाचें आसा ?

पयलो : पळय. गोंय मुक्त जालें पुर्तूगेजांच्या राजवटीतल्यान, पूण अजूनय आमचें गोंय कितल्याश्याच वायट गजालींचें गुलाम आसात. भ्रश्टाचार वाडला. दिसा उजवाडा खून, मारामारी, बलात्कार हांगां जातात. लोक एकामेकांक फटयतात. झाडांची कापाकापी चल्ल्या.

बेकायदेशीर बांदकामां चालू आसात.

दुसरो : तूं सांगता तें खरें आसा.

पयलो : इतलेच न्हय. ही माणकुलीं भुरगीं जी देशाचो फुडार. पळय, तांचे कितें जाता तें? तांकां धड शिकपाक मेळना, ल्हान पिरायेचरूच कामांक वच्चें पडटा. तांचे लैंगीक शोशण जाता.

दुसरो : तुका कितें म्हणपाचें आसा ?

पयलो : दर्यावेळांर पळय त्या हिप्पींनी आमच्या माणकुल्या भुरग्यांक कशीं वायट मार्गांक लायल्यांत तीं.

दुसरो : कितें? हिप्पीनी आमच्या भुरग्यांची वाट लायल्या ?

पयलो : हय. पळोवपाचें आसा तुका? चल तर. तुका ते दर्यादेगेर व्हरता.

***

सादूर भावा सादूर
पळोवन भुरगीं नाजूक
पैशे घेवन आयला तांका
लुटूंक धवो घाटी
सादूर भावा सादूर

(सुवात : एका शॅकाची. शॅकवालो आनी हिप्पी उलयता. कुशीक वेटर कायतान. ताची पिराय धा वर्सां. शॅकवाल्याक सारकी इंग्लीश उलोवंक जमना.)

शॅकवालो : लिसन टू मी, धीस बॉय, माय वेटर. आय कान्ट सेंड. आय वॉन्ट, एवरी डे हियर माय वेटर.

हिप्पी : ओह नो ! आय व्हील गीव्ह यू मनी, लोटस् ऑफ मनी. गीव्ह मी धीस बॉय फॉर सम मन्थस्.

शॅकवालो : नो. हीज फादर कम्स, आस्क मी, व्हॅर हीज सन? व्हॉट आय टेल हीम?

हिप्पी : आएम अलोन, आय वॉन्ट धीस बॉय वीथ मी ॲट ॲनी कॉस्ट. ही इज सो हॅन्डसम! यू टेल हीज फादर, व्हॉटेवर यू फील.

शॅकवालो : नो सर, हीज फादर – डेन्जरस, ही आस्क मनी. आय, नो मनी. यू

गीव्ह मनी. मॅनी मनी. यू गीव्ह.

हिप्पी : ओके, ओके. टेक धीज 3000 रुपीज.

शॅकवालो : ओन्ली 3000 रूपीज? प्लीज यू गीव्ह मोर मनी. मॅनी मनी यू गीव्ह.

हिप्पी : ओके, धीज इज लास्ट. टेक धीज 5000 रुपीज. नाव यू गीव्ह धीज बॉय टू मी.

शॅकवालो : येस व्हाय नॉट? आय सेंड दीस बॉय वीथ यू.
(शॅकवालो कायतान वेटराक लागी आपयता.)

शॅकवालो : ओ कायतान. हिंगयो! हेका चोय. हो मुरे मिस्टर व्हायट. अमेरीकेच्यान येयला. तेची बायल थिगांच रावता.तेका हिंगा एकल्याक रावपाक वाज येता. तेक लागोन तू तेच्यावांगडा राव. चल वच.

कायतान : हांव कितें कोत्तोलो तेज्यावांगडा रावन ?

हिप्पी : हे वॉट इज ही सेयींग ?

शॅकवालो : तू मात्सो वोगी राव. आय मीन डोन्ट वरी. ही कमींग वीथ यू.

हिप्पी : थँक गॉड.

शॅकवालो : कितें कोतोल्लो कांय म्हूणटा? चान्स मुरे कायतान तुगेलो.

कायतान : चान्स कित्या रे?

शॅकवालो : कित्या कांय म्हणटा? तो मुरे तुका बोरें बोरें खावपाक दितलो, मोटारीन भोंवडायतलो, पिच्चराक व्होतोल्लो, बोरे बोरे कपडे दितलो. जिन्स, टिशर्ट, बूट, चेर, फॉरेन चॉकलेटी...आनी कितें जाय ?

कायतान : तुज्याभशेन काम बी कितें सांगचो ना मुरे? मारचो ना मुरे?

शॅकवालो : नारे पापया, आता वोच रे!

कायतान : आनी म्हजो पाय येतलो तेन्ना ?

शॅकवालो : तुगें पायक हांव सांगता. तू चल एकदाचो. तो हिप्पी, मनांत मारल्यार तुका ओमेरिकेक लेगीत व्होरोत.

हिप्पी : हे यू स्मॉल बॉय, वॉटस् युवर नेय? कायतानो ! लॅटस् गो....

शॅकवालो : बोरे कायतान, बरो करून वोच. मजा मार. ओके सर. टेक द बॉय. बाय बाय..(दोगूय वता) (हिप्पी कायतानाक व्हरता. गाडयेन

भोंवडायता, बरें बरें खावयता. कपडे दिता. आनी हॉटेलात व्हरून ताचेर लैंगीक अत्याचार करता. कायतानाक कांयच कळना. तो भियेता. आतां धावपाक सोदता पूण हिप्पी ताका सोडीना (फावो ते हावभाव दाखोवचे.)

***

सर्गातल्या गोंयात आमच्या
वासनेचो नर्क देवला.
सांबाळात तुमची भुरगीं ना
जाल्यार जीण जातली अळणी

पयलो : पळयलें मरे? धा वर्सांचो कायतान. बिचार मजा करपी त्या हिप्पीच्या वासनेचो बळी थारलो. ताका ताच्या पात्रांवान पांच हजारांक विकलो.

दुसरो : शी.... शी.... शी... पाड पडू ह्या हिप्प्यांचे....

पयलो : सांग, ह्या निशपाप कायतानाचो कितें गुन्यांव ? उलय! आसा आमी मुक्त? आसा आमची भुरगीं सुगूर.. ?

दुसरो : हें बंद करपाकूच जाय. भुरग्यांक मुक्त करपाकूच जाय.

पयलो : असले कितलेशेच कायतान गोंयच्या बिचांचेर मुक्त जावपाक धडपडटा.

दुसरो : हय रे बाबा. स्वतंत्र गोंयांत आयज हें घडटा. आयकल्यारूच आंगार काटो येता.

पयलो : हे जालें बिचार. चल आमी त्या घरांत या. थंय कितें जाता तें पळोवया! तें पळय त्या घरांत कितें चल्लां तें.

(घरात 18 वर्सां पिरायेचें चली भुरगें वावराडी म्हूण काम करता.चलयेचो पात्रांव ताचेकडल्यान सगळीं कामां करून घेता.)

दुसरो : हय म्हाका कितें तरी दिसता. एक जाण्टो आनी एक वयार आयिल्लें चली.

पयलो : तें चली हांगा वावराडी म्हूण काम करता. नांवांक वावराडी. तागेलो

पात्रांव कामाच्या नांवान आपली वासना भागोवन घेता. आवय-बापूय नाशिल्लें भुरगें तें.

***

(चली पात्रावांचे पॉलीश केल्ले बूट घेवन येता)

चली : सायब, हे तुमचे बूट.

सायब : (लाडान येवन) आगो अशें कितें उबें रावलां? घाल मगो ते बूट म्हज्या पांयांत (पांय फुडें करून)

चली : हांव ना, तुमीच घालात. (सकल दवरता)

सायब : (मात्सो तिडकून) उखल ते बूट आनी घाल म्हज्या पांयांत.

चली : ना म्हाका भंय दिसता. मॅडम पळयत जाल्यार म्हाका मारतली.

सायब : भंय दिसता ? मॅडम मारतली? (मारता) तुका पोसता कोण? हांव काय मॅडम ? (मारता)

चली : मारूं नाका, मारूं नाका. घालतां हांव.

सायब : घाल सारके घाल. (बूट घालताना चलयेच्या पोल्याक, फाटीक हात लायता आनी ओडून वेंगात घेवपाचो यत्न करता)

चली : आवयस! सोड म्हाका . हें कितें करता तुमी?

कंवळी पिराय पळोवन
वासना जाता जागी
वंयूच खातलें शेत
जाल्यार दूशण कोणाक दीत
सांबाळात तुमची भुरगीं
ना जाल्यार जीण
जातली अळणी.

पयलो : पळयलें मरे, मुक्त गोंयांत चलयांच्या वाट्याक कसली जीण येता ती. स्वताक सुसंस्कृत म्हणपी सुटाबुटात वावुरपी नालायक

लोकांच्या वासनेक आमचीं भुरगीं बळी पडटात.

दुसरो : शी! त्या जाण्टेल्याक मात्तूय सोबना हें. ती चली ताचे धुवेसारकी, तरीय लेगीत मात्तूय कशी लज दिसना ताका ?

पयलो : हें कांयच न्हय. ह्या समाजाचे आनीकूय भयानक किंळसावाणें रुप दाखयता तुका. यो असो यो. ते पळय कामतीलें कुटूंब, घोव बायल आनी एकूच अपुर्बायेचे चली. सोनाली. आठवेक शिकता. गिरेस्त कुटूंब.

दुसरो : आनी तो तरणाटो कोण ?

पयलो : तो तांचो ड्रायव्हर. चलयेक सदांच शाळेत व्हरून हाडप आनी पावप, हें ताचेंच काम.

दुसरो : म्हणल्यार आवय–बापायक भुरग्याचें टेन्शन ना. चली सामकी सेफ . टायमार भायर सरता. टायमार घरा येता.

पयलो : इतलो भोळो जावं नाका. तुका दिसता तसो हो समाज ना.

दुसरो : कितें जालें ?

पयलो : म्हाका कितें विचारता? तूंच पळय !

***

(सोनाली आनी ड्रायव्हर उलयत येता)

सोनाली : ड्रायव्हर चल, उशीर जालो. आज पयलो पिरेड मास पी. टी. आसा. टायमार पावपाक जाय, नाजाल्यार पी.टी. सर पनिशमेंट दितलो.

ड्रायव्हर : सोनू, मास पीटी करपाक वाज येना गो तुका? वताक रावचें पडटा मुगो!

सोनाली : मागीर कितें करू ?

ड्रायव्हर : आज तुका हांव भोवंपाक व्हरतां. मज्जा दाखयतां.

सोनाली : नाका रे पापया, पप्पा मम्माक कळत जाल्यार मार पडटलो.

ड्रायव्हर : कशें कळटले? हांवें सांगल्यारूच कळपाचें न्हय गो ?

सोनाली : बरें या तर. म्हाकाय वोतान ग्राऊंडार रावपाक वाज येता. (सोनाली शाळेत वचना, मिरामार दर्या देगेर भोवपाक वता)

***

पयलो : ड्रायव्हर सोनालीक घेवन मिरामार पावलो.

दुसरो : मागीर कितें जालें ?

पयलो : पळय!

***

ड्रायव्हर : सोनू ही आयसस्क्रीम घे!

सोनाली : आवयस आयस्क्रीम! म्हाका खूब आवडटा.

ड्रायव्हर : आनी कॅडबरी चॉकलेटी?

सोनाली : कॅडबरी म्हणल्यार हांव पिशें जातां.

ड्रायव्हर : तशें जाल्यार आयस्क्रीम सोपतकूच आमी कॅडबरी घेवया.

सोनाली : चल या.

ड्रायव्हर : सोनू तू युनिफॉर्मात आसा. अशीं उक्त्यार रावल्यार कोणूय आमकां पळयतले आनी घरा सांगतले.

सोनाली : मागीर?

ड्रायव्हर : चल आमी त्या झाडांनी वचून बसूया.

सोनाली : चल या.

***

पयलो : भोळें-बाबडें सोनाली ड्रायव्हरावांगडा वचून झाडांनी बसलें. चॉकलेटी - आयस्क्रीमांक भुलून ड्रायव्हरावांगडा आतां सदांच भोंवपाक लागलें. शाळा चुकोवप आतां सदचेंच जाल्लें. ड्रायव्हराचो सांगात ताका आवडूंक लागलो. कळत नकळत ड्रायव्हर सोनालीचो गैर फायदोच घेतालो.

दुसरो : सोनालीच्या आवय-बापायक हाची खबर नासली?

पयलो : ना. घरच्यांक कांयच खबर नासले. ती बिनधास्त आशिल्लीं. कारण तो ड्रायव्हर तांचो भंरवशाचो मनीस! ड्रायव्हर आता सोनालीची वळख आपल्या वेगवेगळ्या इश्टाकडे करून दिवंक लागलो. ते सोनालीक बरी बरी गिफ्टस् दिताले. सोनाली भुलताले.

पयलो : आनी एक दीस....

दुसरो : एक दीस कितें जालें ?

पयलो : पळय तूंच ......

***

ड्रायव्हर : सोनू, हो म्हजो खास इश्ट चंदू. मुंबयच्यान खास तुका मेळपाक आयला. आज दनपरां स्कूल सुटल्या उपरांत आमी ताच्या वांगडा Five Star हॉटेलांत या.

सोनाली : दनपरां ? मम्माक कितें सांगू ?

ड्रायव्हर : सदचे भशेन. Extra Class (सगळीं हांसता).

***

पयलो : दनपरां तिगांय हॉटेलांत गेलीं. जेवलीं–खालीं मजा केली. आनी चंदून सोनालीक एका रुमांत व्हेलें. ताच्या आवडीचें कार्टून पळय अशें सांगून थंड पेय दिलें. पितां पितां सोनालीक घुंवळ येवपाक लागली आनी ते बेशुद्ध पडलें.

दुसरो : मागीर ?

पयलो : मागीर जावपाचें तेंच जालें.

****

ड्रायव्हर : चंदू, चल तुझें काम तूं कर. सोनाली आता बुझीच, माझे पैसे मला दे.

चंदू : मित्रा, हे घे तुझे पंचवीस हजार. आता सोनाली माझी मालमत्ता आहे. तिला घेऊन मी मुंबईला जाणार. हाऽहाऽहाऽ...

***

पयलो : सोनालीची वाट लागिल्ली. तें जेन्ना शुद्धीर आयलें तेन्ना आपलें सर्वस्व लुटलां म्हणपाचें ताका कळ्ळें. रडून रडून ताणें आकांत केलो. पप्पा

–मम्माक उले मारले. पूण व्यर्थ....

दुसरो : शी! हे अतीच जालें. एका कवळ्या ल्हान जिवाची वाटूच लागली.

पयलो : पळय मुक्त गोंयांत कितें चल्लां तें? हांगां कोणूच सुगूर ना. ना तरणाटीं ना भुरग्याीं.

दुसरो : हय! वचत थंय बुरशे नदरेचेच लोक. फक्त वासना भागोवपाची कसरत. मारूंक जाय हांकां सगळ्यांक! मारुंक जाय. फारान मारूंक जाय. गोळाक लावंक जाय. बुरशे नदरेन पळोवप्यांचे दोळेच कोंचून कांडूक जाय. विखाळे हात कातरून वडोवंक जाय.

पयलो : कोणा–कोणांक लायतलो गोळाक तूं? कोणा कोणाचे दोळे फोडतलो? कोणा–कोणाचे हात कापतलो! सांग?

दुसरो : शीऽऽ तकली सामकी भेरेली. चल या हांगाच्यान. म्हज्यान हें पळोवं नजो.

पयलो : चल तर दुसरेकडेन या.

दुसरो : आता आनी खंय व्हरता म्हाका ?

पयलो : यो तूं म्हज्या फाटोफाट

दुसरो : कित्याक ?

पयलो : पळय त्या आनीक एका घरांत कितें चल्ला तें.

दुसरो : किते तें ?

***

खेळपाचे नाचपाचे<br>
उमेदीन भोंवपाचे हे दीस,<br>
भुरग्यांपणातूच जाण्टे करून<br>
रडत–मरत सारपाचे<br>
न्हय हे दीस.<br>
सांबाळात तुमची भुरगीं...

(10 वर्सांचो भुरगो. वावराडो म्हूण काम करता. मॅडमीन ताका आपले साडयेक

फॅर्र मार म्हूण सांगलां)

चलो : मॅडम, मॅडम, तुजी साडी कितें जाली पळय.

मॅडय : कितें जालें ? आरे तुवें ज़ळयली मरे ती ! म्हज्या घोवान फॉरेनाच्यान हाडिल्ली मरे! पाडपडिल्ल्या लूकसाण केलें मरे म्हाका ?

चलो : मॅडम हांवें...

मॅडम : एक शब्द काडू नाका. राव तुकां दाखयता. (मारूंक लागता)

चलो : म्हाकां मारूं नाका.

मॅडम : मारूं नाका खंय! फुलां घालता तुकां (आनीक मारता) आयच्यान तुजे जेवण खाण बंद. उपाशी दवरल्याशिवाय जाग्यार येवचो ना तू. मर असोच.

चलो : मॅडम नाका, अशें करूं नाका...

***

पयलो : पळयले मरे! 10 वर्सा पिरायेच्या भुरग्याक कामाक दवरून एक तर ते बायलेन कायद्यान गुन्यांव केला आनी वेल्यान भुरग्याकूच ती मारता.

दुसरो : हय तर ! खरें म्हणल्यार ह्या वयार त्या भुरग्यान हासपाचें, खेळपाचें नाचपाचें, शिकपाचें. पूण ताका कामार दवरुन ते बायलेन कायदो मोडला. तिकाच खरी ख्यास्त मेळपाक जाय.

पयलो : कोण दितले तिका ख्यास्त? हो समाज ? आरे घरांघरांत मातयेच्यो चुली म्हणटात तश्यो प्रत्येकाच्या घरांत तुका हे चित्र दिसतलें.

दुसरो : पूण ल्हान भुरग्यांक कामार दवरप म्हणल्यार गुन्यांव न्हय रे?

पयलो : गुन्यांव तर आसाच पूण कायदो कडक ख्यास्तूय फर्मायता.

दुसरो : भुरग्यांनी खेळप – शिकप अशें सगळे सोडून लोकांगेर कामाक रावप आनी वेल्यान ह्या लोकांनी तांका ख्यास्त दिवप? देवा कसलो हो न्याय?

दुसरो : (कपलार हात मारून बसता) तकली घुंवली हें सगळे पळोवन. गोंय मुक्तीक 53 वर्सा जालीं अशेंच आमी म्हणपाचें ? खरेपणान आमी आयजूय मुक्त जावंक ना. कितें जोडलें आमी सुटके उपरांत? कांयच

ना!! कांयच ना!! भुरग्यांचो फायचो फुडार सुगूर करून दवरपाक आमी सामके अपेशी थारले.

पयलो : आयचीं भुरगीं हो आमचो खरो फुडार. तांची राखण करप म्हणल्यार आमच्या फुडाराची राखण करप. आमच्या देशाची राखण करप.

दुसरो : चलात तर गोंय मुक्तीच्या त्रिप्पन्नाव्या वर्सा तरी आमचे सरभोंवतणी आशिल्ली सगळी घाण ना करूंया. भुरग्यांचो सांबाळ करूंया.

सगळें : हय हय सगळी घाण ना करूया. भुरग्यांचो सांबाळ करूंया.

लोक 1 : भुरग्यांवेले लैंगीक अत्याचार ना करूंया.

लोक 2 : सगळ्यां भुरग्यांक शिक्षण दिवंक वावरूया.

लोक 3 : भुरग्यांक खेळपाक – नाचपाक प्रोत्साहन दिवया.

लोक 4 : बाल कामगार प्रथा ना करूया.

लोक 5 : भुरग्यांचे सगळे हक्क भुरग्यांक दिवंक लावया.

लोक 6 : आमच्या भुरग्यांचेर आनी हेरांच्या भुरग्यांचेर मनापासून पवित्र भावनेन मोग करूया.

सगळीं : सगळ्या भुरग्यांक ताठ मानेन जगपाक फावो तो सगळो आदार करूया.

खेळात, नाचात, शिकात,
मोखून मारात
बंदखणीची दारां
भुरग्यांचो सांबाळ करून
करूया व्हड ह्या देशाक.

■■■

# 5
# संस्काराचे अंत्यसंस्कार

❖ पात्रां ❖

सुत्रधार
संध्या
आई
बापूय
अंताभट
रेमेद
रिटा
आलेक्स
सुटके झुजारी
बाबू
पुलिस - 1
पुलिस - 2
सरीता
सबीना
नॅली

सुत्रधार : नमस्कार. भुरग्यांचेर बरें संस्कार केल्यार भुरगीं बऱ्या संस्काराची जातात हो आमचो समज. बरें मनीस घडयतलो जाल्यार बरें संस्कार तांचेर जांवक जाय. होय आमचो समज. पूण म्हजो अणभव वेगळो. बऱ्या घराण्यांतलीं भुरगीं, संस्कारीत कुटुंबातलीं भुरगीं हाताभायर गेल्यात तीं हांवे पळयल्यांत. फट दिसता तर येयात म्हज्या बरोबर.

(संध्या आपल्या आवयकडेन वाद घालता. बापूय पेपर वाचता. आजो त्रासीक नदरेन नातीकडे पळयता.)

***

सुत्रधार : हें अंताभटालें कुटूंब. अंताभट गांवचो पुजारी. घरातलें वातावरण संस्कारमय. पूजापाठ केल्याशिवाय कोणूच घरांतल्यान भायर सरनात. सगळ्यां घरच्यांक गावांत मानाचो रेस्पेद. मात घरचें चली-संध्या सगळ्यांपरस उरफाटें. ताका वचपाक जाय 31 डिसेंबराच्या पार्टेक.....

### प्रसंग 1

रेवेंतली रेंव पार्टी कोणाक भुलयता गा
तरण्यो तरण्यो पिपऱ्यों रेवेंत माड्डता गा!
सोबीत सुंदर कळयो फुलचे पयलीच पिसुडटा गा!

संध्या : आई, हांव चल्लें आ.
आई : खंय?
संध्या : खंय म्हणजे? रेव्ह पार्टेक. आयज 31 डिसेंबर.

आई : पार्टी बी कांय ना. आनी येदे रातचें तूं घरांतल्यान भायर सरचे ना.

संध्या : आगे, हांव एकटें वचना. शेजारचें नयन, कविता, रुपेश आसा म्हज्या वांगडा. आमी सकाळ जावच्या पयली येतलीं.

आई : तुजे वांगडा कोणूय आसूं. पूण तूं वच्चें ना.

संध्या : ना हांव वतलेंच.

आई : हे पळय संध्या, अंता भटाली नात तू. तूं अशें रातचें पार्टेक गेलां तें कळत जाल्यार लोक आमच्या तोंडात शेण घालतले.

बापूय : बोवाळ कसलो ? तुमी मोट्यामोट्यान कित्याक उलयतात ?

आई : ही पळय, तुगेली धूव आता रेव्ह पार्टेक वचपाक सोदता.

बापूय : शी, शी... म्हजी चली आनी रेव्ह पार्टेक ? मास्तराची चली रातची तरण्याट्यांवांगडा बीचार वचून मस्त नाचतली ? हांव हें कितें आयकतां ? आगो, म्हजो न्हय तर तुज्या आज्याचो तरी विचार कर गो मात्सो !

अंताभट : आयकलें रे बाबा, हांवें सगळें आयकलें. हांव समजायतां ताका...शाण्या बाय पळय, तुगेंलें वचप कोणाकूच आवडूंक ना. ते रेव्ह पार्टेत अशें कितें आसा गो शाण्या ?

संध्या : आज्या, म्हजे सगळे इश्ट येतले पार्टेक. हांव वचना जाल्यार म्हाका ते Old fashioned म्हणटले.

बापूय : आनी तूं गेल्यार आमची गावांत शी थू जावची ना ?

आई : लोक म्हणटले हांच्यानी फकत लोकांकूच सांगपाचे, हांची चली पळय कशी हाताभायर गेल्या ती !

संध्या : शी, ह्या घरांत हे अशेंच. जाय ते करपाक केन्नाच मेळना. म्हाका तुमचो सगळ्यांचो राग येता.

आवय : तोंड सांबाळून उलय. कोणाक तोंड वांकडे करुन दाखयता ?

अंताभट : शाण्या पळय. हे आमचें घर, नाका जाल्ल्यो गजाली करपाक मान्यताय दिना. भजन अभंगांनी हेंर घर सदांच दुमदुमलां. रामायण-महाभारतातल्यो काणयो सांगून हांवे तुका वाडयलां.

बापूय : हांवे सोडूच. तुज्या आज्यान तुजेर बऱ्यांतले बरें संस्कार केल्यात.

आवय : ताचे हें फख आयज आमकां अशें मेळत अशें हांवे सपनांत लेगीत

चितूंक नासलें.

संध्या : तें म्हाका कांय लागना. हांव वतलें म्हणल्यार वतलें.

बापूय : जाणां तूं आबा (आज्याक उद्देशून) आयज दिसता, हाका बऱ्यांतले बरें शिक्षण दिवन बऱ्यातलें बरें भुरगें करपाचो म्हजो यत्न फसला.

आवय : आयटी चे शिक्षण घेवपाक ताका बंगळूराक धाडलें थंयच चुकले आमचें.

अंताभट : म्हाकाय तशेंच दिसता. बंगळूर सावन आयिल्ल्याक हें अशें वागूंक लागलां.

आवय : हय आबा, तुमकांय दिसता न्हय तशें...सारके कपडे घालप ना, कोणाक सारको रेस्पेद दिवंप ना.

बापूय : पळय ताचो भेस. लांब केसाचो बॉब कट करुन उडयला. चुडिदाराच्या जाग्यार मिनी स्कर्ट. हें सगळें सोसलें आमी. आता आनी आमचेकडेन सोसपाक जायना. रातचे घरांतल्यान भायर सरप ...शे... हे तर अजीबात ना. चल भितर.

संध्या : ना बाबा, हांव वतलें म्हळ्यार वतलें. गुड नायट.

सुत्रधार : कोणाचेच कानामनार घेनासताना संध्या रेव्ह पार्टेक गेलें. थंय वचून नाच नाच नाचलें. इबाडिल्ले चले-चलयो करता ते सगळें संध्यान केलें. ल्हानपणासावन-बारावेमेरेन संस्काराची साक्षात मुर्ती आशिल्ले संध्या हाताभायर गेलें.

***

सुत्रधार : हें जालें संध्या. आता आमी आलेक्साल्या घरा या. आलेक्स आनी ताची बायल रिटा गांवातल्या सगळ्या लोकांच्या आदाराक धांवपी. कोणाक पयशे दी, कोणाक गाडयेन पावय, कोणाच्या उल्याक धावून वचप, अशा कारणांक लागून सगळ्यांक जाय जाय शी. पूण तांचो पूत रेमेद.... तुमीच पळयात.

## प्रसंग – 2

रेमेद : पापा, म्हाका पांच हजार रुपय जाय.

आलेक्स : कित्या रे? कालूच तुका धा हजार रुपय दिल्ले मरे.

रेमेद : New Year celebrate करपाक.

रिटा : आलेक्स तूं कितें कोत्ता रे? धा हजार रुपय म्हूण ह्या बारावी शिकपी भुरग्यांक दिता. केसो बापूय रे तूं.

आलेक्स : पळय मगो रिटा. आयज आनीक पांच हजार मागोता. पैशे कितें झाडाक पिकोता?

रेमेद : पापा गांवच्या लोकांक कितलेय पैशे मोडटा मरे तूं ! आपल्या पुताक दिवपाक फाटीफुडे कित्याक जाताय ?

रिटा : काल धा हजार दिल्ले आनी आयज पांच हजार. इतल्या पैशांचे तूं कोत्ता तरी कितें?

रेमेद : मांय तुकां कळपाक ना गे तें. तू मात्शी ओगी राव.

रिटा : ओगी रावतोली कित्याक? तूं मागता मागता तें मेवला म्हूण तूं हाताभायर गेला.

आलेक्स : तुका बायक घेवन दिली. हजारानी रुपयाचे कपडे दिले. पंचवीस हजार रुपया मोडून ट्यूशनाक घायला. कितोले पैशे मोडल्या तुज्याखतीर? आनीक खंयचे पैशे दिंव ?

रेमेद : मिस्टर आलेक्स दिता काय ना पैशे?

रिटा : रेमेद, तुजी मस्ती चोड जाली. बापायकडे अॅसो उलयता ?

रेमेद : मागीर म्हाका पैशे कित्या दिना तर तो?

रिटा : आलेक्स, एकूय पैसो दिवपाची गरज ना. कितें कोत्ता ते कोर.

रेमेद : कितें कोत्ता ते कोर. पळयच तूं.
(रागान भितर वता. सुरो घेवन येता)

रिटा : आरे हें कितें. सुरो कित्याक हाडोला.

रेमेद : भियेव नाका. तुमकां मारुंक हाडूंक ना. म्हाकाच मारपाक हाडोला !

आलेक्स : (फुडें येत) आरे पुता उडय तो सुरो.

रेमेद : पापा फुडें येवं नाका. म्हाका पांच हजार दी, ना जाल्यार हो सुरो हांव म्हज्याच पोटांत घालतां.

दोगांय : रेमेद, पुता उडय तो.

रिटा : अशें कितें चोयता? दी ताका कितो जाय ते.

कोण आशिल्लो तूं कसो जालो रे तूं
आरे पिश्या असो कसो फूकट गेलो रे तूं ?
आवय-बापायक धमकावन
कसो स्वताचें सादोवन घेता रे तूं
कोण आशिल्लो तूं कसो जालो रे तूं !

***

सुत्रधार : पळयलें! येदोसो रेमेद. आवय-बापायक धमकावन जाय तितले पैशे घेवन फोल्गां मारपाक गेलो. आनी ताचे आवय-बापूय ताका पळयत उरले. अशे तरेन रेमेदाक मागता तें मेळत राविल्ल्यान तो हाताभायर गेलो. रेमेद आता गुंडाभशेन वागपाक लागलो. मवाल्यापणा करपाक लागलो. देवासारक्या आवय-बापायचो पूत गूंड जालो. इतल्यान सोपूंक ना. चला आता आमी त्या सुटके झुजाऱ्याच्या घरांत कितें चल्लां तें पळोवया.

***

## प्रसंग 3

( मेहबुबा मेहबुबा हे गीत म्युझीक सिस्टमाचेर मोट्यान चालू आसा )

सुटके बाबू तुजें हे कितें चल्ला. केद्या व्हडल्यान म्युझीक लायलां? आनी हें

झुजारी : कितें तूं सिग्रेट ओडटा ?

बाबू : बाबा तूं केन्नाच सुदारचो ना. गोंय स्वतंत्र जावन कितलीशी वर्सां जाल्लीं, तूं सुटके झुजारी म्हूण मिरयता आनी आमकां कांयच करपाक दिना.

सु. झुजारी : पूण सिग्रेट ओडप म्हज्या पूताक सोबना तें.

बाबू : सिग्रेट ओडल्यार जालें कितें? ही फॅशन मरे आनी ही सादीसूदी सिग्रेट न्हय....

सु. झुजारी : लोक म्हज्या तोंडात शेण घालतले मरे. सुटके झुजाऱ्याचो आनी मास्तराचो पूत सिग्रेट ओडटा हें लोकांक कळ्ल्यार.....

बाबू : सगळ्यांक खबर आसा. (दारार वाजता, दोन पुलीस भितर सरता.)

पुलीस 1 : लक्ष्मण शिरोडकार तुमच्या चल्याचें नाव ?

बाबू : हय, हय.

पुलीस 1 : खंय आसा तो ?

बापूय : आसा घरांत. पूण कित्याक ?

पुलीस 2 : ताणे एके चलयेचेर बळजबरी केल्या आनी तिचे सगळे पयशे आनी भांगरा चोरपाचो आरोप ताचेर आसा.

सु. झुजारी : (कपलार हात मारुन थंयच बसकण मारता.) बाबू हे किंते आयकता रे हांव ? हो दीस पळोवच्या पयली मरण कित्याक आयले ना रे म्हाका ? (रडटा) (बाबू धांवपाचो यत्न करता)

पुलीस 1 : धर ताका.

सुत्रधार : पळयलें, एका सुटके झुजाऱ्याचो चलो हो, वायट भुरग्यांच्या संगतीक लागलो. पयशाचो हावेस ताकाय जडलो. घरांत देशभक्तीन पुराय भरील्ले वातावरण हो भुरगो कसो विसरलो ? बायलांक आपल्या आवय-भयणीवरी मानपाची देख दिल्ल्या ह्या भुरग्याक लोकाल्या चलयांची वाट लावपाची दुर्बुद्धी खंयच्यान सुचली ?

पैशे हे जिवीत बाबा
पैशे हेच जिवीत
फोल्गां मारपाखातीर
आमी कशेंय
पैशे हाडूं

**प्रसंग 4**

सूत्रधार : हें सोनम. दिसाचे कॉलेजात वता आनी रातचे कॉल सेंटरात काम करता. आजकालच्या भुरग्यांचे हे शॉर्टकट पैशे जोडपाचे साधन. घरांत कांयच उणें ना तरी लेगीत मजा, फोल्गां मारपा खातीर पैशांची गरज निर्माण जाता. आनी मागीर कॉल सेंटरासारक्यो संस्था हांची वेवस्था करता. हांगाच हीं भुरगी मागीर नाका आशिल्ल्या गजालींक बळी पडटात आनी आपले आयुश्य पिड्ड्यार करता. खरें

दिसना... ? चल त्या सोनमाचे कितें जालें तें पळोवया....

सरिता : जाणां तूं, आमच्या कॉलेजातल्या त्या सोनमाक एड्स जाला तो.

सबीना : हय, जाणां हांव. सध्या सोनम म्हणल्यार सगळ्यांचे चर्चेचो विशय थारला. तशें तें म्हजें फ्रेंड आनी पयस सावन सोयरें लेगीत.

नॅली : पूण लज न्ही गो, ताका आनी ताच्या घरच्यांक लेगीत.

सबीना : हय तर. सध्या ताची अम्मा आनी अब्बू खूब टेन्शनात आसात. सोनमाक तर तोंड दाखोवंक जागो ना.

सरिता : ना तर कितें गो? हरशी म्हूण कॉलेजात येताना बुरखो घालूनच येतालें. तें बुरख्या पोंदच्यान अशें कितें करीत म्हूण दिसले ना केन्ना.

नॅली : खाली मुंडी पाताळ धुंडी!

सबीना : आगो तें जेन्ना आमचो ग्रुप सोडून शाहीदाल्या ग्रुपात गेलें तेन्नाच म्हाकां ताचे खरें दिसनासले.

नॅली : म्हणजे शाहीदालो ग्रुप पाड गो?

सबीना : मागीर कितें? त्या ग्रुपातले सगळें चले तशेंच चलयो हाताभायर गेल्ल्यो. तांतले कांय कॉल सेंटरान काम करता. तांणीच सोनमाक कॉल सेंटरात व्हरुन वाट लायली.

नॅली : आनी शाहिदान कितें केले?

सबीना : कितें केले म्हूण विचारता? ह्या शाहीदान ताका पयली बुरख्यातल्यान भायर काडलें आनी ताचो जाय-जाय तसो गैरफायदो घेतलो.

सरिता : हय! कॉल सेंटरात ताचे संबंद आनीकूय लोकांकडे आयले. वायट वायट लोकांकडे.

सबीना : आनी मागीर जावपाचे तेंच जालें. सोनमाचे ज्या शाहीदाकडे संबंद आयले तो HIV Positive आसलो. सोनमाचो शाहीदाकडे शारीरीक संबंद आयला आसुये वा कॉल सेंटरातल्या हेरांकडल्यान सोनमाक हो रोग जाला आसुये.

सरिता : भंगू बाबड्याचें.

नॅली : एडस् ची लागण जाल्ल्या शाहीदामदें ह्या सोनमान कितें पळयले कांय?

सबीना : बऱ्या जीविताची वाट लायली आनी कितें?

सरिता : सज्ञान सुस्कृंत सोनम मात आयुश्यातल्यान उठलें.

***

सुत्रधार : धर्म खंयचोय आसू. दर एक धर्म आमकां सुसंस्कृत मनीस जावपाची, बरें जिवीत घडोवपाची देख दिता. तरी लेगीत वायट संगतीक लागून स्वताच्या घराण्याचो, आवयबापायचो विचार करिनासताना आयर्ची भुरगीं स्वताचीच वाट लावन घेतात. तर म्हज्या मोगाळ इश्टोनो, आयकात! आमीच आमच्या जिविताचे शिल्पकार आसात. सर सलामत तो पगडी पचास म्हणटा ते भशेन, आमी आमचे जिवीत घडोवपाक जाय. तें कशें घडोवचें, कशें इबाडचें तें तुमचे तुमी थारायात. बरें तर येता हांव. जय हिन्द, जय गोंय.

■■■

# 6
# मरणाचे दुसरे नांव एड्स

❖ पात्रां ❖

सुत्रधार
राजा
प्रधानजी
सेवक
बायल
कामील
दोतोर
चली
लोक - 1 ते 7

सुत्रधार : आयकात, आयकात, आयकात. गोवापुरी राज्याचे राजा चित्रसेन कितल्याश्याच वर्सांनी गोवापुरीचे दर्शन घेवपाक राजदरबारातल्यान भायर सरल्यात. तांच्या वांगडा तांचे प्रधानजी आसात. प्रधानजी तांका राज्यांतल्या बऱ्या वायट घडणुकांची म्हायती दितात. महाराज गोवापुरीतल्या एका फामाद दर्यादिगेर पावल्यात.

सेवक : होशीयार, खबरदार, सर्वगूण संपन्न, सर्वव्यापी, सर्वांनंदी सर्वश्रृत सर्व गिन्यानी गोवापुरीचे राजा महाराज चित्रसेन- पदार रहे है !
(सलाम मारता आनी वता)

राजा : प्रधानजी, आरे आयज ह्या दर्यादिगेर सगळे पाखले कित्याक आयल्यात रे ?

प्रधानजी : महाराज हे आयजूच न्हय, सदांच दर्यादिगेर आसतात. हांगा मूळ भारतीय गोंयकार उणें पूण हांची संख्या चड. आनी महाराज तांका पाखले म्हणीनात. तांका फॉरेनर्स म्हणटात. हिप्पी म्हणटात.

राजा : प्रधानजी, म्हाका एक सांग रे ! हें राज्य हिप्पींचें कांय आमचें गोंयकारांचें ? आमचे लोकूच दिसनात मरे हांगा.

प्रधानजी : हय महाराज, तुमचें खरें. आमी गोंयकार शेणल्यात, वाट चुकल्यात. ह्या भायल्या लोकांनी गोंयकारांक त्रासांत उडयल्यात. हिप्पी हांगा येवन मजा मारता आनी आमचे लोक मात रडटा.

राजा : प्रधानजी तूं म्हणटा तें खरें. ती पळय थंय एक बायल, रडटा. चल विचार तिका कित्याक रडटा ती. म्हज्या राज्यांत कोणूच रडपाक नाका.

प्रधानजी : (प्रधानजी बायले सरी वता. बायल रडत आसा) बाय तुजें कितें

जालां ? कित्याक रडटा तूं?

बायल : कोण ? महाराज ? (राजाक सलाम करता आनी परत रडटा.)

राजा : प्रधानजी ही बायल रडपाची थांबना. तिच्या घरच्यांक आपोवन हाड. आमी तिची चवकशी करुया.

बायल : महाराज कांयच उपेग जावचो ना. कोण येवचो ना. म्हाका म्हज्या घोवान आनी घरच्यांनी घरांतल्यान भायर धांवडयल्या.

प्रधानजी : कित्याक गो ? कसलो गुन्यांव केलो तुवें ?

बायल : हांवे म्हज्या घोवाचेर विस्वास दवरलो !

राजा : प्रधानजी हे बायलेक मॅन्टलात व्हरून घाल. घोवाचेर विस्वास दवरल्यार घोव भायर घालतलो ? ही बायल तकलेन सुटल्या.

प्रधानजी : (बेजार जावन) महाराज तुमी काडली जीब लायली ताळ्याक अशें करुं नाकात.

राजा : मागीर कितें करु ?

प्रधानजी : तिची पुराय खबर आयकूया आनी मागीर थारोवया, तिका मॅन्टलात घालप कांय तिच्या घरा धाडप.

राजा : बरें आसा.

प्रधानजी : बाय सांग तुजी काणी. आयकता आमी.

राजा : सांग तुजो प्रोब्लेम. हांव राजा तुका योग्य न्याय दितलों.

बायल : महाराज, हांव मूळ शिरदोनच्या रामा गांवकाराली गरीब चली....

***

सूत्रधार : ते बायलेन आपली कर्मकाणी राजामुखार दवरली. गरीबालें चली तें.गिरेस्ताली सोयरीक आयली देखून फाटलो फुडलो विचार करीनास्तना लग्न जालें. मात जाचेकडेन लग्न जालें तो मोटो फोल्गी आशिल्लो. घुंवळी वखदां म्हळ्यार ड्रग्स घेवपी. हे दर्यावेळेर ताचे हेर सांगाती आशिल्ले. ड्रग्स आशिल्ली इंजेसांवा तोपून सर्गसूख मेळेयताले. आनी तातूंतल्यानूच ताका भिरांकूळ एड्स रोग जालो. तीच तीच सिरींज वापरील्ल्यान ताच्या सगळ्यां सांगात्याकूय एड्स

जालो. मात स्वता वांगडा आपले बायलेक आनी अजून जल्माक येंव नाशिल्ल्या  भुरग्याकूय दुयेंस दिवन ताणी ताचें आयुश्य उधवस्त केलें.

***

बायल : सांगात महाराज कसलो गुन्यांव केल्लो म्हूण म्हज्या घोवान हें दुयेंस म्हाका दिलें? कित्याक तांणी म्हजो विस्वासघात केलो? पोटांत निकतेंच आकाराक येवपी भुरग्यांन कितें वायट केलां? ताच्याय वाट्याक हें भिरांकूळ दुयेंस येवचेना कित्यावेल्यान?

प्रधानजी : महाराज पळयली तिच्या घोवाची करणी? आपल्या फोल्गाक लागून तांणे आपले बायलेचो आनी अजून जल्माक येंव नाशिल्ल्या भुरग्याचोय बळी घेतलो. वेल्यान तिची चूक नासतना तिका घरांतल्यान भायर घाल्या.

बायल : महाराज हांव आता कितें करुं? म्हज्या गर्भातल्या भुरग्याचें कितें करू? रडपाबगर म्हजे मुखार दुसरो कितें पर्याय आसा. (व्हडल्या व्हडल्यान रडटा)

राजा : बाय गो, वोगी राव. तुजी वेवस्ता हांव करतां. तुज्या घोवाकूय आपोवन घेतां. तुजेर हॉस्पीटलांत उपचारुय करुंक लायतां. प्रधानजी !

प्रधान : जी महाराज.

राजा : हे बायलेची वेवस्ता हॉस्टेलात कर. तिका दोतोराक दाखय. आनी अशें तरेच्या लोकां  खातीर राज्यांत एक मोटे हॉस्टेल बांदपाक सुरवात कर.

प्रधानजी : जी महाराज. कोण आसा रे थंय ?

***

सूत्रधार : राज्यात एड्सा सारकें भिरांकूळ दुयेंस बळावता तें पळोवन राजा घामाघूम जाता. हे बायले सारके आनीकूय गोंयकार एड्साच्या

भकीक पडल्यात. ताची म्हायती दिवंक प्रधानजी राजाक राज्यांत भोंवडेयता.

***

प्रधानजी : महाराज चल आमी आता मिरामार या.

राजा : मिरामार कोण आसा ?

प्रधानजी : आमचे तरणाटे वायट मार्गाक लागून कशें दुयेंसाच्या भकीक पडल्यात तें दाखयतां.

राजा : चल तर.

***

सूत्रधार : प्रधानजी राजाक घेवन मिरामार वता. वेळेचेर उक्त्यार बशिल्लीं आनी झाडां-झोपांनी बशिल्लीं जोडपीं दाखयता. कसलीच लजभीड बाळगिनासतना चले-चलयो शारीरीक संबंद दवरता तें पळोवन राजाची तकली घुंवता.

राजा : चल हांगाच्यान, बेगीन चल. म्हज्यान हें चित्र पळोव नजो. ह्या राज्यांत अशेंय घडटा ? ह्या भुरग्यांचेर तांच्या आवय-बापायचें लक्ष ना ?

प्रधानजी : आमची तरणाटी पिळगी हाताभायर गेल्या. महाराज हें फकत मिरामारूच न्हय तर अख्ख्या गोंयातल्या दर्यावेळांचेर हें चित्र दिश्टी पडटलें. दर्यावेळेवेल्यान मागीर हीं जोडपीं हॉटेलांनी पावता. जाय तशी मजा मारता आनी मागीर ...

राजा : मागीर कितें ?

प्रधानजी : तें आमी कामीलाक विचारल्यारच बरें न्हय !

***

सूत्रधार : राजा आनी प्रधानजी कामीलाक मेळटा. कामील एक तरणाटो. कायतानाल्या शॅकाचेर वेटर म्हूण काम करतालो. त्या शॅकाचेर

येवपी एके तरणाटे चलयेकडे ताची वळख जाली. वळखींचे रुपांतर मोगात जालें. मागीर तीं दोगांय भोंवपाक लागलीं. एके रातीकडे तें चली कामीलाक हॉटेलांत घेवन गेलें. आनी हॉटेलाच्या बंद कुडीत दोगांय एकठांय जालीं.

***

कामील : महाराज ते चलयेचेर हांवे मनापासून मोग केलो. मात तिणें म्हाका फटयलो.

राजा : कसो फटयलो?

कामील : महाराज, चलयेन सांगलें तशें हांवे केलें. हॉटेलांत हांव तिका जाय तसो वागलों. कांय खीण हांवे सर्गसूख अणभवलें. म्हजो दोळो लागलो आनी मागीर?

प्रधानजी : मागीर कितें?

कामील : सकाळीं उठून पळयत जाल्यार हॉटेलातल्या रुमांत ती नाशिल्ली.

प्रधानजी : खंय गेली तर ती ?

कामील : म्हज्या उशाकडेन ही चीट दवरुन ती गेल्ली.

राजा : चीट. Love letter कांय कितें रे ?

कामील : Love letter न्हय, death letter. वाच वाच हे चिटयेत कितें बरयलां तें.

राजा : प्रधानजी, म्हाका तें letter वाचून दाखय.

प्रधानजी : जी महाराज. 'मोगाळ कामील' म्हजी कांयच चूक नासताना एका दादल्यान म्हाका मोगाच्या जाळ्यांत घुस्पावन एड्साचे दुयेंस दिलें. देखून अशा दादल्यांचो हांव तिरस्कार करता. आता सगळ्या दादल्या जातीचो म्हाका सूड घेवंक जाय. म्हाका एका दादल्यान दिल्लो हो एड्स तुका दिवन हांव अशेंच सूड घेत रावतलें. हें दुयेंस आयज हांव तुका भेट म्हणून दिता. तुजें कितें चुकले ताचो मात जरुर विचार कर. तुजेंच...

***

सुत्रधार : असुरक्षीत शारीरीक संबंद दवरील्ल्यान कामीलाक हें दुयेंस जावपाची शक्यताय वाडिल्ली. कारण जे चलयेकडेन ताचे संबंद आयले ते HIV POSITIVE आशिल्लें. कपलार हात मारीत राजा गोवापुरीत भोंवपाक लागलो. एड्स दुयेंस कशें पातळता ते जाणा जावन घेवपाची उमळशीक ताका लागली.

राजा : प्रधानजी ह्या दुयेंसाचे आनीक कोण बळी पडिल्ले आसल्यार म्हाका सांग.

प्रधानजी : महाराज एक आनी दोन ना. 1986 सावन आयज मेरेन भारतातल्या सूयार 2 कोटी 50 लाख लोकांक ह्या एड्स दुयेंसाक लागून मरण आयलां.

राजा : अब्बा ! इतके लोक मेल्यात? आनी हे दुयेंस घेवन जगपी लोक कितले आसात?

प्रधानजी : लागी लागी तितलेच. 2 कोटी 50 लाख.

राजा : आनी गोंयची परिस्थिती?

प्रधानजी : सामकी वायट आसा.

राजा : म्हाका गोंयच्या एड्स दुयेंसाची सगळी म्हायती बेगोबेग दियात प्रधानजी.

प्रधानजी : तशी वेवस्ता करता महाराज. कोण आसा रे थंय..... एड्स दुयेंसाची सगळी म्हायती राजाक दिवपाची वेवस्ता कर.

सेवक : बरें प्रधानजी. (सलाम करता आनी वता)

***

सुत्रधार : प्रधानजी राजाक गोंयांतल्या एड्सग्रस्त लोकांची म्हायती दिता. शारा-शारांनी आनी आता गांवांत लेगीत हो रोग पातळ्ळा ते पळोवन राजा चक्रवता. हो रोग फक्त शारीरीक संबंद दवरल्यारुच जायना तर तो लोकांयदें जागृताय नासल्यारुय जांव येता हे प्रधानजी राजाक सांगता.

***

प्रधानजी : महाराज हे मिस्टर देसायालें घर.

राजा : हांगां कितें आसा ?

प्रधानजी : महाराज ह्या दुर्येसाचे कोण कोण बळी पडल्यात तें तुमकां जाणून घेवपाचें ना, तर ?

राजा : म्हणजे देसायाल्या घरांतूय ....

प्रधानजी : हय महाराज.

***

सुत्रधार : पांडुरंग देसायालें कुटूंब म्हणल्यार गांवातलें एक सुशिक्षीत कुटूंब. ताका एकली एकसुरी चली. सभावान आवय-बापायवरी एकदम बरी. मायेस्त. दुसऱ्यांक मदत करपी. अडी अडचल्यां खातीर देव कशी पावपी. एक दीस देसायाले चली घरा येताना तिका वाटेर एक बायल पडिल्ली दिश्टी पडटली. तिणे तिका हॉस्पिटलात व्हेली.

***

दोतोर : हे पळय! हे बायलेक बेगोबेग रक्ताची गरज आसा. तिका आमचेकडेन आसा तें रगत घालता. पूण ठशश्रिरलशाशपीं जाय.

चली : हांव म्हजें दिता. तुमी म्हजो Blood Group चॅक करात.

दोतोर : ताची गरज ना. तूं न्हीद हे खाटीर, हांव तुजें रगत काडटा.

चली : बरें दोतोर.

***

सूत्रधार : मुखार कितें घडले तें प्रधानजी राजाक सांगता. आयकात.

***

प्रधानजी : दोतोरान रगत काडपाक Disposable सूय वापरली ना. वेळ ना देखून मेळटा ते सुयेन रगत काडलें.

राजा : मागीर कितें जालें ?

प्रधान : ती सूय दुशीत आसली. हाचे पयलीं रगत काडपाक तीच सूय वापरील्ली. आनी अशें तरेन ती दुशीत सूय वापरील्ल्यान देसायाले चलयेक HIV एड्साची बाधा जाली.

राजा : प्रधानजी कितें सांगता तूं ! भांगरा स्वभावाच्या हे चलयेक एड्स जालो ? आनी तो दोतोर, दोतोर जावनूय फातराभशेन वागलो. ताका खबर ना तर रगत काडटाना disposable सुयो वापरपाक जाय त्यो ?

प्रधानजी : महाराज दोतारांक सगळें खबर आसता. पूण जे कोण प्रामाणिकपणान काम करीनात, आळस काडटात ते अश्योच चुको करतात आनी लोकांक त्रासात घालतात.

राजा : प्रधानजी म्हज्यान हें सोसूंक जायना. सगळ्यांत पयली त्या दोतोराक सोदून हाडात. ताका Suspend करात. कायदेशीर कारवाय करुन बंदखणीत लेगीत घालूंक जाता जाल्यार त्या दोतोराक घालात.

प्रधानजी : जी महाराज. कोण आसा रे थंय ?

सेवक : जी प्रधानजी.

प्रधानजी : ते देसायले चलयेचें रगत काडपी दोतोरोक बेगोबेग हजर कर.

सेवक : बरें प्रधानजी.

राजा : प्रधानजी हांव राजा आसून लेगीत एड्स ह्या दुयेंसाची म्हाका खबर ना मागीर सामान्य लोकांचे किंते ? हाजेर किंते तरी उपाय सांगात प्रधानजी.

प्रधानजी : हय महाराज. हाचेर उपाय एकूच. लोकांमदी जागृताय घडोवन हाडपाक जाय. लोकांक सादूर करपाक जाय.

राजा : तर प्रधानजी फाल्या सगळ्यांची दरबारात एक मिटींग आपय. दोतोर, हेर जाणकारांक हाडून ह्या दुयेंसाची म्हायती प्रजेक दिवपाची वेवस्ता कर.

प्रधानजी : हय महाराज. तशी वेवस्ता करतां. कोण आसा रे थंय ?

सेवक : कितें प्रधानजी ?

प्रधानजी : फाल्याचे मिटींगेची दवंडी पेटय.

सेवक : बरें प्रधानजी.

***

सेवक : आयकात, आयकात, आयकात........ फाल्या सकाळी णव वरांचेर एड्स दुयेंसाची म्हायती दिवपाखातीर राजदरबारात राजान मिटींग आपयल्या.

आयकात, आयकात, आयकात.
सगळ्यांनी हे मिटींगेक न चुकता हाजीर रावचें
आयकात, आयकात, आयकात........

***

सुत्रधार : गोवापुरीतलें एड्स दुयेंस ना जावचें, ताचेर नियंत्रण मेळोवपा खातीर राजान त्या दुयेंसाविशीं सविस्तर म्हायती लोकांक दिली. दुयेंस कशें जाता आनी कशें जायना हे विशी राज्यांत जागृताय घडोवन हाडली.

***

सुत्रधार : कांय तेपान राजा आनी प्रधानजी परतून राज्यांत भोंवपाक गेले. स्वता राजान एड्स दुयेंसाचो आडावो घेतलो.

***

राजा : प्रधानजी चल त्या लोकांक आमी एड्सा बद्दल विचारुया.
प्रधानजी : चला. अयऽऽ हांगा यो. एड्सा बद्दल तुकां कितें खबर आसा?
लोक १ : हांव सांगतां.
राजा : सांग.
लोक १ : असुरक्षित शारीरीक संबंद दवरल्यार एड्स जाता.
लोक२ : दुशीत सुयो वापरल्यार एड्स जाता.
लोक३ : HIV दुशीत रक्त दुसऱ्याक दिल्यार एड्स जाता.
लोक४ : आवयक एड्स आसलो जाल्यार तिच्या भुरग्यांक तो जांव येता.

राजा : बेस बरें. आमचे लोक बरेंच शिक्षीत जाल्यात.

प्रधानजी : एड्स दुयेंस कशें जायना ? तू सांग.

लोक५ : एकमेकांक हात लायल्यार एड्स जायना.

लोक६ : एकमेकांच्या ताटात जेवल्यार एड्स जायना.

लोक७ : वांगडा भोवल्यार एड्स जायना.

राजा : वा प्रधानजी. आमची जनता बरीच शिकली. ह्या मुखार आमचे लोक सारके वागतले आनी एड्सारक्या भिरांकूळ दुयेंसाक पयस दवरतले अशी आस्त धरुया.

प्रधान : हय महाराज.

राजा : चल तर या आमी. महाराणी महालात म्हजी वाट पळयता आसतली. तिकाय एड्सा बद्दल म्हायती दिवंक जाय.

■■■

# 7
# आयची जीण –मोबायल जीण

❖ पात्रां ❖

सुत्रधार
पयलो
दुसरो
यम
चित्रगुप्त
रिना
सुनीता
सुदीप
विशाखा
सॅबी
फ्रांसीस
संदीप

रमेश
सुहास
सर
राजेश
महेश
सॅम
शाणू
चलो - 1
लोक - 1
लोक - 2
चली - 1 ते 5

(यम आनी चित्रगुप्त पृथ्वीवेल्या एका कॉलेजीत पासयेक येवन थंय कितें चल्लां ताचो कानोसो घेता. थंय तांकां तरणाटे चले-चलयो मोबायलाचेर उलयताना दिसतात. कांय जाण आपल्या इश्टांच्या मोबायला वेल्यान फोटो काडटात. एक चली चलत वतना एक तरणाटो तिची व्हिडीओ शुटींग काडटा. चली बेजार जाता. एकीकडे मोबायलाचेर अश्लिल चित्रां पळयतात. दुसरीकडे मोबायलाचेर म्युझिक लावन  डान्स करतात. यमाक मात हांतलें कायंच कळना. चित्रगुप्त मात सगळें खबर आशिल्ल्या भशेन त्रासीक चेहरो करुन भोंवता.)

***

सुत्रधार : इश्टांनो आयज पळयत ताच्या हातांत मोबायल दिश्टी पडटा. घरांघरांनी लॅन्ड फोन आसून लेगीत घरांत जितली मनशां ताच्या पेक्षा चड  मोबायल फोन सापडटात. लोक ऑफिसां, मार्केट, शाळा, बशीत, रेल्वेत, बोटीत, खाची कोनशाक, दोंगरार-तेंगशेर लेगीत मोबायल फोन घेवन भोंवताना सापडटात. आमची पुराय जीण मोबायल जीण जाल्या. मागीर आमच्यो कॉलेजी ताका अपवाद कश्यो थारतल्यो? (थोडो वेळ रावून) मात एक प्रस्न म्हज्या मुखार उबो रावता !

पयलो : कसलो प्रस्न रे?

सुत्रधार : (अजापान पळयता) तूं कोण रे?

पयलो : हांव ते कॉलेजीत शिकपी कॉलेजकुमार. सांग मरे तुजो प्रस्न !

सुत्रधार : म्हजो प्रस्न म्हणल्यार - कॉलेजीतल्या भुरग्यांकडे मोबायल आसप बरें काय वायट?

पयलो : (हांसत) हो कसलो प्रस्न रे? मोबायल आसप हें बरेंच !

दुसरो : दर एका विद्यार्थ्याकडे मोबायल आसूकच जाय. (आनीक भुरगें येतात)

सगळें : हय हय सगळ्यां विद्यार्थ्यांकडे मोबायल आसूंक जाय.

***

रींग टोन ओ बाबा रींग टोन
आयच्या तरणाट्यांकडे आयल्यात
तरेतरेचे मोबायल फोन.

सुत्रधार : पळयलें! विद्यार्थी कितें म्हणटा तें! (इतल्यान सुत्रधाराक चित्रगुप्त आनी यम दिसता.) आरेच्या हे ते यमदेव आनी चित्रगुप्त कशें दिसता मरे ! आनी तें धर्तरेचेर कितें करता तर? चल हांव लिपून पळयता तांका.

***

यम : चित्रगुप्त, हे कितें चल्ला रे पृथ्वीचेर? हे तरणाटे कानांक कसलें खेळणे लावन भोंवतात? मदींच नाचतात, हांसतात, व्हडल्या व्हडल्यान उलयतात, कितें भानगड रे ?

चित्रगुप्त : यमराज व्हडलें कांयच ना, तांच्या हातान आसा तें खेळणे म्हणल्यार मोबायल.

यम : मोव बायल? तुका मरे चित्रगुप्त फुकट म्हजो सेक्रेटरी केलो. तूं खंयतरी बांयलां मदीच आसपाचो. पळयत तेन्ना, फकत बायलांच्यो खबरी.

चित्रगुप्त : सरकार, तशें न्हय. 'मोव' बायल न्हय 'मोबायल'. मोबायल नावांचे फोनासारकें एक यंत्र ह्या बुद्धीजीवी प्राण्यान सोदून काडला.

यम : अशें? ही तर बरी गजाल मरे, तूं कित्याक बेजार जावन सांगता म्हाका ?

चित्रगुप्त : बेजार जावपासारकीच वस्तू ही. ह्या भुरग्यांची जीणूच मोबायल जीण जाल्यात. फक्त मोबायलाक दसून आसतात हीं भुरगीं. हांचे ना घरांत लक्ष, ना अभ्यासांत, ना कॉलेजीत शिकयता थंय लक्ष.

यम : कितें करतात तर हो मोबायल घेवन हीं भुरगीं?

चित्रगुप्त : कितें करतात? सोंसपाचें करीनात. चला महाराज दाखयतां, हांचेर कसो सांवार आयला तो.

मोबायल फोन
ओ बाबा मोबायल फोन
फुडाराक धोके आनी धक्के
दितले हे मोबायल फोन.
रींग टोन ओ बाबा रींग टोन
आयच्या तरणाट्यांकडे आयल्यात
तरेतरेचे मोबायल फोन.

**प्रसंग 1**

शिक्षक : There are different types of straight lines e.g. parallel lines, inter secting lines and so on. Let me list them on the board. ( सर बोर्डार बरोवपाक फाट करता)

रिना : ए सुनीता, तुका हांव एक एस्.एम्.एस्. धाडटा आं.

सुनीता : धाड गो. पूण मागीर. सर आता आमकां पळयत जाल्यार तापयतलो.

रिना : काय ना गो, नातरी सर शिकयता तें कळटा कोणाक? तू हो एस्.एम्.एस्. वाच (एस्.एम्.एस्. धाडटा)

सुनीता : रिना,एम्.एय्.एस् कसले धाडटा गो? बरेंच सुबेज, मगो तू ! आनीक धाड, पळोवया. (दोगांय एस्.एम्.एस्. धाडप-वाचप हांतून गुल्ल जाता).

***

रींग टोन ओ बाबा मोबायल फोन
असले कसले एस्.एम्.एस्. वता
आवाज करी नासताना
ह्या मोबायल फोनावेल्यान

चित्रगुप्त : पळयलें न्ही यमराज? तो बाबडो तांचो सर जीव तोडून शिकयता आनी हीं भुरगीं थंय लक्ष दिवपाचें सोडून ह्या मोबायलावेले एस्.एम्.एस धाडपाक-वाचपांत गुल्ल जाल्यांत.

यम : हय मरे चित्रगुप्त. शिकपाचे सोडून हीं भुरगीं कसल्या नादाक लागल्यांत रे ?

चित्रगुप्त : हांकां हाचो परिणाम खबर ना. हाचेर तीं विचारुच करीना.

यम : कसलो परिणाम रे ?

चित्रगुप्त : महाराज, एक तर मोबायलातल्यान येवपी व्हेव्ज आमच्या कुडीचेर वायट परिणाम करता. हाका लागून एकाग्रता उणीं जाता. टीक टीक बटना प्रेस करुन मन चंचल जाता. स्थीर जावपाचें सोडून हीं भुरगीं धडपडी स्वभावाचीं, चंचल मनाचीं जातात.

यम : हें ह्या भुरग्यांक कोणेतरी सांगपाक जाय रे !

चित्रगुप्त : हय सरकार, खरें तुमचें. आता हे पळयात त्या दोगांचे कितें चल्लां तें.

रींग टोन ओ बाबा मोबायल फोन
धोक्याची सुलूस दिता
हे मोबायल फोन.

**प्रसंग 2**

रींग टोन ओ बाबा मोबायल फोन
मोग जाता रोकड्या रोकडो
नाका आमकां खांवक जेवंक.

सुदीप : हॅलो, विशाखा खंय गो तूं? कितलें दीस जाले फोन बी कांय ना मुगो तुजो.

विशाखा : (हळू उलयता) अशें कांय ना रे. म्हजेकडेन नाशिल्लो बॅलन्स. आता उलय.

सुदीप : आगो मात्शें व्हडल्यान उलय. आयकूंक येना.

विशाखा : आरे, (गीत रूपान) हळू हळू उलय, कोणूय आयकत रे, आयकत रे, कोणूय आयकत रे.

सुदीप : म्हाका कोणाचो भंय किद्याक! हळू उलोवं तुजेकडेन हांव किद्याक ?

विशाखा : हळू हळू उलय कोणूय आयकत रे, आयकत रे, कोणूय आयकत रे

सुदीप : विशू, ए विशू म्हज्या मोगाच्या विशू, तुका किदें सांगू तुजी कितली याद येताली...

विशाखा : म्हजेंय बी तशेंच जालें, न्हीद ना, जेवण ना, तुजेविणें कांयच ना ! (दोगांय रोमेंटिक जावन उलयत आसात).

चित्रगुप्त : यमराज, पळयलें न्ही कितलो वेळ जालो ही दोगांय कॉलेजीक वचपाची सोडून हांगा मोबायलाचेर उलयत टायम वेस्ट करतात. आमी मातशें फुडें त्या हॉटेलांत वचून 'च्या' मारून येवया. (यम, चित्रगुप्त एक पासय मारून येतात तरी ही चली आनी चलो मोबायलाचेर उलयत आसतात)

यम : चित्रगुप्त हो चलो अजून मोबायलाचेर उलयता मरे. वरभर जावन गेलें. हाका बील बी काय लागना कितें रे ?

चित्रगुप्त : सरकार बीलाचे सोडून दियात, हो बडे बापका बेटा, बडी बाते करता तो.

यम : अशें ?

चित्रगुप्त : इतलो वेळ मोबायलाचेर उलोवपाचो परिणाम जाणा सरकार तुयी ?

यम : परिणाम ! कसलो रे ?

चित्रगुप्त : वरांची वरां मोबायलाचेर उलोवन<br>कुडीचेर परिणाम जाता रे.<br>बंद करात हें वरां वरांचे,

मोबायलायर उलोवचे बंद करा.
मोबायल काना लागी धरून
कानाचे पडदे नाजूक जातात रे.
पडदे नाजूक जावन मागीर,
आयकुपाक येवपाचे उणें जाता.
ब्रेन ट्युमर मोबायलाक लागून जाता.
मेमरी पावर मनशाची उणीं जाता रे,
कशें तुका समजाव रे
उणें करात रे उणें करात
मोबायलार उलोवप उणें करात.

यम : चित्रगुप्त, तुका बरेंच खबर आसा मरे मोबायला संबंदी. तूं एक काम कर. ते चलयेचो फोनूच कट कर, ना जाल्यार मोडून उडय.

चित्रगुप्त : कटूच करता. हो पळय केलो कट.

यम : तुवें तांचो फोन कट करुन बरें केले. ती चली गेली वर्गात. पूण हेवटेन ते चार-पांच जाण तरणाटे मोबायलाचेर कितें तरी पळयता कशें दिसता म्हाका.

चित्रगुप्त : हय देवा. हेवूय भुरगे तेच कॉलेजीचे, कॉलेजीत वच नासताना हांगा तवनासपणा करतात.

यम : पूण ते त्या मोबायलाचेर अशें कितें पळयता रे?

चित्रगुप्त : अश्लील फिल्मां पळयता आसतले. चल तांचे प्रताप पळोवया.

## प्रसंग 3

सॅबी : रमेश, फ्रांसीस हांगा येयात रे, आयज हांवेन म्हज्या मोबायलार बोरें कितें रीकॉर्ड करून हाडलां चोय, कितें जाणाय तूं?

फ्रांसीस : दाखोय, कितें रे तें? (मोबायलाचेर अश्लील चित्रां पळोवन फावो तें हावभाव करता)

सॅबी : ए, हो चोय संदीप. तेगेली आयज बोरी फोकांणा कोरुया रे.

रमेश : आरे, सॅबी तो स्कॉलर, आमच्याभशेन गुंडागिरी करपी न्ही. हें असलें कांय दाखोवन वाट लांव नाका तेजी.

सॅबी : तूं ताचो हुस्को कित्याक करता रे? तो स्कॉलर आसूं ,आमकां कितें? आमचे काम आमी कोरया.

सुहास : आरे सॅबी, नाका रे तेजी वाट लांव. ते कितें रीकोर्ड करुन हाडला तें डीलीट कर तुज्या मोबायलावेले, सर बी पळयत जाल्यार लज मरे.

फ्रांसीस : सामको भिय्याडो मुरे तूं.

रमेश : चल चल घरा वच, आमच्या ग्रुपान नाका तूं.

सॅबी : आमच्या वांगडा रावचें आसा जाल्यार, 'मौज, मस्ती मजा करो, नहीं तो झक् मारो'.

फ्रांसीस : आरे सॅबी हो पळय संदीप पावलोच हांगा.

सॅबी : संदीप खंय वयता रे? (संदीप, सॅबीक आनी ताज्या ग्रुपाक पळोवना आंग चोरता).

संदीप : खंय ना. लॅक्चर फ्री आसा न्हय रे, लायब्ररीत चल्लो नोटस काडपाक.

फ्रांसीस : हांगा यो रे, सोदांच कितें शिकता? फ्री लॅक्चर आसता, तेन्ना मोजा कोरपाची रे.

सॅबी : संदीप हें चोंय तुका कितें दाखोयतां.

संदीप : कितें रे?

सॅबी : हो बटन प्रेस कोर, न्यू वर्साचो मॅसेज येतलो तो वांच.

संदीप : आरे म्हाका मोबायल वापरूंक कळना. तुमीच पळया तो मॅसेज, हांव चल्लो.

रमेश : ए संदीप, चडूच करता मरे तू. हें पळय कांय बरें चित्र पळय (रमेश ताका मोबायल दाखयता).

संदीप : (किंळची मारता) शी कसली हळशीक चित्रां पळयता रे तुमी ?

फ्रांसीस : चित्रां न्हूं, ब्लू फिल्म म्हुण्टात तेका.

संदीप : म्हाका पळोवपाचें ना. बुरशे मरे तुमी.

सॅबी : ए कोणाक बुरशे म्हुण्टा रे तू ? तोंड फोट्टलो तुजे. (संदीपाचेर धांवून वता).

संदीप : ए म्हजेर धांवून येव नाका, प्रिन्सिपलाकडे कंप्लेन दितलों.

फ्रांसीस : तूं आमची कंप्लेन दितलो? येयात रे सगळे. हांका बुद्द शिकोवया. पयली हाका बडोवया आनी मागीर फिल्म दाखोवया. (सगळे ताका मारतात, आनी जबरदस्तीन घट धरून ताका मोबायलावेले फिल्म दाखयतात. संदीप रडूटा, धडपडटा. पूण ताजी मदत कोणूच करीनात)

रींगटोन ओ बाबा मोबायल फोन
जीण तुमची काबार करपाक
आयल्यात हे मोबायल फोन.

****

चित्रगुप्त : महाराज पळयले न्हीं? ह्या मोबायलाचो भुरग्यांनी कसो उपेग केला तो?

यम : हें येदेशें तरणाटे असली फिल्मां पळोवन पाड जातले मरे.

चित्रगुप्त : असली फिल्म पळयतात आनी ताचो तांच्या मनाचेर परिणाम जाताच. हाली विनयभंग, बलात्कार हाजेर चडानचड बातम्यो पेपरांनी येतात त्यो हाकाच लागून.

यम : मोबायलाचो इतलो वायट परिणाम जाता जाल्यार हांचे आवयबापूय कित्याक दितात तांकां मोबायल घेवन ?

चित्रगुप्त : भुरग्यांचो हट्ट आसता आनी केन्ना केन्ना आवय बापायकूच मोटेपणा मिरोवपाची आसतात न्हय!

## प्रसंग 4

(चित्रगुप्त आनी यम चलत चलत कॉलेजाच्या दुसऱ्या अर्दातले आनीक एके क्लासीन पावता)

यम : चित्रगुप्त हो भुरगो कितें करता रे क्लासीन बसून ? येदोळ ती चेडवां करतालीं तसोच, हो लेगीत मोबायल घेवन खेळटा मरे.

चित्रगुप्त : हो सगळ्यांचो गुरु. पळयात तो कितें करता तें.

****

(सर लॅक्चर घेता, तेन्ना राजेश सराक कॉल करता. सराचो मोबायल वर्गात टेबलाचेर आसता, लॅक्चर घेता घेता ताका कॉल येता तो ताच्या लक्षांत येता, तो कॉल रिसिव्ह करता)

सर : हॅलो, हॅलो, May I know who is speaking please?

राजेश : (मान सकयल घालून) तुजो बापूय उलयता.

सर : कोण रे, हॅलो, कोण उलयता रे (सर बेजार जाता)

राजेश : (फोन कट करता) सर, तू क्लासीन मोबायलार उलयता ?

सर : ए, कितें चल्लां रे तुजें, you take your seat, Sit down there.

राजेश : आरे, भुरग्यांनो आमी सराची कंम्पलेन करूया प्रिंसिपलाकडेन, टिचरानी मोबायलाचेर क्लासींत उलोवप ना असो सरकारान सरकुलर धाडला. तरी आमचो सर मोबायलाचेर उलयता मरे !

महेश : हाडल्यारूय तो वापरप ना.

सॅय : आनी आमचो हो सर, डायरेक्ट सेलाचेर क्लासीन उलोयता मुरे.

सर : ए, चल्लां कितें रे तुमचें ? तुमकांच व्हरता हांव प्रिंसिपलाकडेन.

राजेश : आमकां व्हरता. तुकाच त्रासान घालतले आता आमी. चला रे उठात! (सगळे चले वर्गात बोवाळ घालतात, आनी उठून प्रिसिंपलाकडेन वचूंक लागतात)

***

चित्रगुप्त : 'गुरु देवो भवः' मानपी हो भारत देश आनी ह्या भारत देशांतली ही रत्नां. कसो सांवार आयला पळयलो तुमी. स्वताच्या देवासमान गुरुजीक लेगीत हे सतोवपाक फाटीफुडे पळयनात, ताका मान दिवपाचो तर पयसुल्ली गजाल.

यम : शी! चित्रगुप्त, दुःखाची गजाल मरे ही. सामकीच इबाडल्यांत मरे हीं भुरगीं. म्हज्यान हें पळोवं नुजो. चित्रगुप्त तू आता एक काम कर, तुजो हो भेस बदल आनी साद्या मनशाच्या भेसान वचून ह्या भुरग्यांक

समजाय.

चित्रगुप्त : हय महाराजा. (चित्रगुप्त वेश बदलपाची ॲक्शन करता. बरोबर कांय चलयांच्या एका पंगडाक घेवन येता)

***

कॉलेज जीण जावची न्ही मोबायल जीण
हाची शिटकावणी दिवपाक
आयल्या आमची ही टीम.

चित्रगुप्त : आयकात, आयकात, आयकात! हांव तुमचो इश्ट, तुमचें बरें चिंतपी. आयज तुमच्या मुखार, एका महत्वाच्या गजालीचेर उलोवपाक हांव आयलां. तुमची ही कॉलेज जीण, मोबायल जीण जांवची न्ही, एक सुंदर सोबीत जिवीत जावचें, तुमचें आयुश्य बरें घडचें. देखून आमी तुमच्या मुखार एक विशय घेवन आयल्यात.

रमेश : तुमचो विशय आयकूंक कोणाक वेळ आसा ? नया साल है, कुछ गाना – बजाना है तो बोलो.

शाणू : सारकें उलयलो रमेश तू. सर तुमी पदां–नाच अशें कितेंय करात.

चित्रगुप्त : बरें आसा. पदांतल्यानूच हो विशय हांव तुमच्या मुखार दवरतां. ह्यो म्हज्यो वांगडी तुमकां हें गीत म्हणून दाखयतल्यो.

चलयो : आमी जातलीं जैतीवंत, आमी जातलीं जैतीवंत,
आमी जातलीं जैतीवंत एक दीस,
हो आमकां आसा विस्वास पुराय आसा विस्वास,
आमी जातलीं जैतीवंत एक दीस.
आमची कॉलेजची ही जीण
जाल्या सामकीच मोबायल जीण.
मोबायला बगर चलना कोणाचेंच हांगा.
हो मोबायल घात मारतलो आमचो
पूण जातली आमी जैतीवंत एक दीस.

चित्रगुप्त : मोबायलाक लागून दर एकट्याच्या आयुश्यांत एक वेगळेंच वळण आयलां. आमी मोबायल ॲडीक्ट जाल्यात. उठतां बसतां मोबायल जाय. पूण हे खेळणे आतां आमकां पैसावचे पडटलें. ना जाल्यार एक दीस हेच खेळणे आमचो जीव घेतलें.

चली : ह्या मोबायलापासून आमची सुटकां करुन घेवची पडटली. ताचे जे आमचेर दुश्पपरिणाय जाल्यात तें आमकां पैसावचे पडटले. आमकां खात्री आसा आमी जैतीवंत जातले.

चित्रगुप्त : मोबायल वापरून लागली आमची वाट.

उलोवन उलोवन मोबायलाचेर,
तकली जाली आमची बाद
हांव सायबा सांगता तुमकां,
तुमी म्हजें आयका वा नाका
पूण म्हाका सांगचे आसा
तुमी आयकतले ही म्हाका आशा
मोबायलार सेगीत उलोव नाका
ताका लागून स्मरणशक्ती जाता उणीं
आगा म्हज्या मोगाच्या भावा,
मोबायल वापरून तकली उसळटा रे, हां उसळटा रे
केन्ना केन्ना घुंवळ लेगीत येता रे, हां येतारे
प्रेशर लेगीत वाडटा, हार्ट ॲर्टक येंव शकता.
म्हजे आयकात रे, म्हजे आयकात रे
हो म्हज्या हातातलो मोबायल, सामको वायट रे
तुयच्या भुरग्यांच्या जीणेतलें, वायट हें संकश्ट रे
कॉलेजीन तुमी वयता, मोबायल सदांच हातान धरता
केन्ना तो हड्ड्याकडेन आसता.

चली 1 : छातयेकडेन, बोल्सांन मोबायल दवरीत जाल्यार, ताच्यो वेव्हज काळजाच्या आंताकाचे कारण जांव येता.

चली 2 : मोबायल सदांच वापरुन आमची एकाग्रता उणी जाता.

चली 3 : मोबायलाक लागून, कान गरम जाता, कान उसळपाक लागता.

चली 4 : मोबायल परत परत हॅन्डल करून मन स्थीर उरना.

चली 5 : मोबायल सतत वापरतात तांचे भुके–तानेच्चेरुय परीणाम जाता.

चलो 1 : मागीर किते मोबायल सामको वायट म्हणपाचें आसा तुका ?

चित्रगुप्त : ना मोबायल सामको वायट न्हय, ते एक बरें, खूप उपयोगी यंत्र. पूण तुमी कॉलेज कुमारांनी ताजो चडान चड दुरूपयोग केला. ताजो वापर Emergency call खातीर करपाचो. ताचेर शक्यतो महत्वाचें उलोवप, कमी उलोवप.

चली : बरो उपेग केल्यार मोबायल बरो. नाजाल्यार जीव घेणो तो 'सुरो'.

चित्रगुप्त : इश्टानो आमी चल्ले. इतकेंच सांगपाचे आशील्लें. ह्या मोबायलचो वापर बरो करात, सांबाळून करात, कमी करात. वर्गान तो वापरू नाकात, गाडी चलयताना वापरू नाकात, तांका लागून एक्सीडंट जांव येता. मोबायलार व्हडल्यान व्हडल्यान उलोवन दुसऱ्यांक डिस्टर्ब करूं नाकात. मोबायल वापरताना इयरफोन वापरात, हाका लागून मोबायल सेटचो आनी तुमच्या शरीराचो उणो कॉन्टेक्ट येतलो. मोबायलाक लागून कांक्र लेगीत जावपाची जी शक्यताय आसता ती उणी जातली. बरें तर आमी चल्ले.

भुरगीं : थँक यू काका, आमकां म्हायती दिल्याबद्दल. आमकां हें कांयच खबर नाशिल्लें. आमचे कोणेंच प्रबोधन केले ना. आयच्यान आमी मोबायल वापरतले पूण विचार करून, आनी कमी वापरतले.

चित्रगुप्त : बरें भुरग्यानो बरें दिसलें तुमचे हें उलोवप आयकून. येता हांव.

रींग टोन ओ बाबा मोबायल फोन
धोक्याची सुलूस दिता
हे मोबायल फोन.

***

(चित्रगुप्त आपलो भेस बदलता)

यम : चित्रगुप्ता आयज पयले फावट तुवें कोणाक तरी जीवदान दिलें. हरशी सदांच तुजें आनी म्हजें काम, जीव घेवनूच यमलोकात वचप. you did something different today !

चित्रगुप्त : हय महाराज, आयज पयले फावट आमी रिकाम्या हातांनी परतुया.आनी तेंय बी एक बरें काम करुन परतुया.(दोगुय खोशयेन चलत आसता इतल्यान एक भुरगो स्पिडीन मोटरसायकल धांवडायत वता)

चित्रगुप्त : देवा हो तरणाटो पळय मोबायलार उलयत उलयत कशी मोटरसायकलीची स्पीड मारता. हाका भंय म्हण्टा तो ना.

यम : आरे हय मरे, कितें जातलें ह्या भुरग्याचें? (इतल्यान तो आपली मोटरसायकल व्हरुन ट्रकाक मोकता आनी थंयच मरता, लोक जमा जातात आनी उलयतात)

लोक1 : आरे तेजीच मिस्टेक रे, कितलो फास्ट आसलो तो.

लोक 2 : आनी मोबायलार उलयतालो रे. फुडल्यान येता त्या ट्रकाक मोकल्यार कोण जितो उरतलो ? आयचे हे तरणाटे मरे.....

***

यम : चित्रगुप्त, आमकां दिशील्ले, आमचो हो पयलो वेगळो दीस, कोणाचो तरी जीव घेनासतना वचपाचो. पूण अशें जालें जाल्यार हांव यम आनी तूं चित्रगुप्त कसलो ?

चित्रगुप्त : हय महाराजा, व्हरुया ह्या तरणाट्याचो प्राण यमलोकांत. आमचें कामूच तें. मोबायलाचो हो वेगळोच दुश्परिणाम.

मोबायल फोन, मोबायल फोन
ताचे वायट परिणामूय चड
गरजे शिवाय वापरुया नाका
हे मोबायल फोन
संकश्टांक आमंत्रण दिवया नाका
वापरून खूब हें मोबायल फोन.

■■■

# 8
# वायट संगत

❖ पात्रां ❖

सुत्रधार
राजू
नानू
शैला
रॉकी
रेखा
आंतोन
प्रीती

आमकां नाका गांवातल्यो कॉलेजी
जाय आमकां शारांतल्यो कॉलेजी
गांवातलीं भुरगीं अडाणी, मागाशिल्लीं
शारांतलीं कशीं बुंदवंत आनी फॉरवर्ड
जाय आमकां अशींच भुरगी
जाय आमकां अश्योच कॉलेजी
शारांतल्यो कॉलेजी, शारांतल्यो कॉलेजी!

सुत्रधार : गावांतल्या शाळांनी पास जाल्ल्या भुरग्यांचे शारांतल्या कॉलेजीनी ॲडमिशन घेवपाचें एक मोटें सपन आसता. पूण सगळ्यांक ॲडमिशन मेळटाच अशें नासता. जांका मेळटा तें मात स्वताक नशिबवान समजतात. शारांतल्या कॉलेजींनी कितें चलता हाची सुलूस भोव थोड्या जाणांक आसता. कॉलेज म्हळें म्हणटकूच सोऱ्याची, धुंवळी वखदांची, सिग्रेटीची व्यसना, मारामारी-झगडी, बदलो, जीवघेण्यो रेसी, मोगाची प्रकरणां अशें जायतें कितें आसता. जो ह्या सगळ्या प्रकरणांतल्यान सही सलामत सुट्टा तो जगता. ना जाल्यार ताची गत त्या राजू सारकी जाता.

***

**प्रसंग 1**

आमी शिकूया शिकूया
व्हड जावक जाय जाल्यार
गांव सोडून
शारांत वचून शिकूया.

राजू : चल एकदांचे ॲडमिशन मेळ्ळें आमकां. शारांतले हे कॉलेजीत ॲडमिशन मेळोवपाचे जे सपन आसले तें आयज पूराय जालें. शारांतली नामनेची कॉलेज ही. हे कॉलेजीत ॲडमिशन कोणाक नाका जालां?

नानू : राजू तुका सांगता आमी तिगांयनी हे शारांतले कॉलेजीत ॲडमिशन घेवन मोटी चूक केल्या.

शैला : अशें कित्याक म्हणटा रे तू. ?

नानू : शैला तुका खबर ना हे कॉलेजीत किंते किंते चलता तें. म्हजो शेजारी प्रविण गेल्या वर्सा हे कॉलेजीत शिकतालो. बावडो पासूच जालोना.

राजू : हे, पास जालो ना खंय ! अभ्यास केल्या बगर पास जाता?

शैला : हय, अभ्यास केल्याबगर पास कसो जातलो? फकत फोल्गां मारल्या आसतलीं.

नानू : हय, फोल्गां तांणी मारलींच पूण.......

शैला : पूण किंते?

नानू : तो खंय वायट संगतीक लागिल्लो. पयलीच ही कॉलेज दर्यावेळेच्या लागसार. हांगा व्यसनांक पयलीच ओतो आयला. भोंवडेकार आनी हेर धंदेंकार हांगाच्या कॉलेजात शिकपी तरण्याट्यांक हेरता खंय आनी वायट संगतीक लायता.

राजू : ए नानू बंद कर, तुजें वायट संगतीचे पुराण. वदोळच्यान आयकता हांव, वायट संगत, वायट संगत. आरे शारातल्या व्हडल्या व्हडल्या लोकांची भुरगीं वोगीच ह्या कॉलेजीत येता? आनी वायट संगतीक लागपाक आमी कितें पिशे रे? आरे हे कॉलेजीत आमकां तिगांकूच ॲडमिशन मेळप ही मोटी खोशयेची गजाल आसा. चल चल या आमी घरा आता. फाल्याच्यान क्लासी सुरु. तयारी करपाक जाय.

दोगांय : चल या तर.

***

सुत्रधार : क्लासी सुरु जाल्यो. नव्या वातावरणात दरेकाक नव्यो इश्ट-इश्टीणी मेळ्यो. राजूकूय नवे लोक मेळ्ळे. खरें म्हणल्यार राजू शैला आनी

नानू ल्हानपणासावन जिवा-भावाचे इश्ट-इश्टिणी. ल्हानपणासावन कॉलेज मेरेन वांगडाच खेळ्ळीं. शिकलीं-नाचलीं व्हड जालीं. पूण आयज तांचो इश्ट तांच्या वांगडा नासता हे दूख्ख नानू शैलाक सतायता. आपलो इश्ट आता बदल्ला ते पेक्षा तो वायट संगतीच्या लोकांवांगडा पडला हाचे दूख्ख तांकां चड जालां.

***

ल्हानूच आमी आसलीं बरीं
व्हड कित्याक जालीं?
वायट संगतीक लागून इश्टागतीक
वेर आमच्या कित्याक आयली?

## प्रसंग 2

नानू : शैला कोणाक रावलां गो? चल या मगो घरा.

शैला : अशें कितें रे? कॉलेज सुटलां तरी राजू अजून येवंक ना न्हय रे! ताकाच रावलां हांव!

नानू : हय, कॉलेज सुरु जावन आयज आठ दिस जाले. राजू केन्ना आमच्या वांगडा घरां पर्थला? मागीर आयजूच ताका कित्याक रावचें?

शैला : तूं वता जाल्यार वच. हे पळय आमी तिगांय जाणां एकमेकांची बरी इश्ट-इश्टीणी. शाळेतल्यान कॉलेजात पावलीं तरी आमची इश्टागत तशीच आसा. केन्नाच एकामेंका बगर घरां गेली ना. म्हणून राजूक रावप गरजेचें आसा.

नानू : शैला हें तुजें बरें आसा. पूण राजू आमकां विसरलां. कॉलेजांतली गिरेस्तालीं भुरगीं ताका इश्ट म्हूण मेळ्ळ्यांत. देखून तो आमच्या वांगडा आता भोवना. ताका आमची इश्टागत नाका जाल्या.

शैला : ना रे. तशें केन्नाच जावचेना. राजू आमची दोगांयचीय ल्हानपणासावनची इश्टागत अशी सहजासहजी तोडचोना. म्हाका विस्वास आसा.

नानू : म्हाकाय तशेंच दिसता. पूण ह्या दिसांनी तागेलें घरा उसरां येवप, पीटर, रॉकी, विनोदाल्या गँगात भोंवप मात्शें विचित्र दिसता.

शैला : हो पळय राजू आयलोच. (राजू आपले इश्ट रॉकी आनी रेखा वांगडा येता) कितें राजू कितलो वगत रे तुका? कॉलेज सुटून आतां अर्धवर जालें, खंय आशिल्लो रे तूं? वाज आयलो तुजी वाट पळोवन पळोवन.

नानू : हय. हांव आनी शैला वदोळसावन तुजी वाट पळयता.

राजू : नारे नानू, हांव, रॉकी आनी रेखा भूक लागल्या म्हूण कॅन्टीनात खावपाक बशिल्लीं.

शैला : खावपाक बशिल्लीं? हो वेळ खावपाचो रे? दनपार जाल्या मरे! हो वेळ घरा वचून जेवपाचो.

रॉकी : ना, आयज हांव, राजू आनी रेखा कांय काम आशिल्ल्या कारणान घरा वच्ची ना.

शैला : घरा वच्ची ना? नाका वचूंक. पूण राजूक तुमच्या वांगडा दवरपी तुमी कोण?

रॉकी : ए बरें उसळटा मगो तूं सुंगट कशें? म्हजेकडे शापोतां उलयता. राजू म्हजो इश्ट देखून हांव ताका म्हज्या वांगडा दवरपाक शकतां.

रेखा : राजू कोण रे हें? आनी केन्नाचें? मार उडटा. पळयल्यार आताच मेंटलांतल्यान सुटून आयिल्यावरी दिसता. ए तोंड बंद कर तुजें आनी चलूंक लाग हांगासरल्यान.

शैला : हांगासरल्यान चलूंक लाग म्हणपाक हांव कितें तुगेर आयलां? दुसऱ्यांक सांगता तें तूच चलूंक लाग.

नानू : राजू कितें हें? पळय मरे ह्या लोकांनी तुज्यामुखार आमचो कसो अपमान केलो तो. आनी तूं कायंच उलयना?

रॉकी : ये तूं मर्दी पडिल्लो दांत कसो कित्याक उलयता? आनी राजू तूं रे हांची शापोतां मुकाट्यानी आयकून घेता? चल या हांगासरल्यान. ह्यांच्या तोंडाक लागत जाल्यार आमची कामां जावचीना.

राजू : चल या (वता).

नानू : पळयलें हांवे सांगिल्ले मगो तुका! राजू आता बदल्ला. रॉकी, रेखा सारके इश्ट ताका मेळ्ळ्यात. ह्या लोकांनी राजूमुखार आमचो

अपमान केलो तरी तो एक शब्द उलयलोना.

शैला : हय रे बाबा. खरें तुजें. पूण राजूक ह्या वायट संगतीच्या भुरग्यांमदल्यान भायर काडपाक जाय.

नानू : शैला तुका खबर आसा ? ह्या रॉकीचो भायल्या ड्रग्स विकप्यांकडें संबंद आसा. कॉलेजीत घुंवळी वखदां, चरस, गांजा बी सप्लाय करता म्हूण आयकलां हांवे.

शैला : आवयस, आनी अशें वायट संगतीचे भुरगें राजूचे इश्ट. शी बाबा! कशें जातले हाचें ?

नानू : ती पळय बस आयली आमची. चल या आमी घरां.(वता).

***

सुत्रधार : रॉकी – आंतोन राजूक बळजबरीन आपल्या गँगात सामील करता. ताका फोर्सान घुंवळी वखदाचे सेवन करूंक लायता. पयली फुकट. राजूक हें नाका आसता. पूण शक्तीमुखार ताचें कांयच चलना.

***

दम मारात दम
विसरात बेगीन गम
सकाळ सांजवेळा
गांजा अफू रम,
दम मारात दम

## प्रसंग 3

रॉकी : विनोद घे रे शिगार. चरस भरला तांतूत. एक झुरको मार आनी राजूक दी.

राजू : रॉकी, हो गुटका आनी सादीच सिग्रेट म्हाका बरी. हातूनच मजा येता. चरस गांजा बी असली घुंवळी वखदां नाका रे म्हाका.

प्रिती : कितें रे राजू? सामको पिसो कसो उलयता. एक झुरको मार आनी पळय, सामको सर्गात गेल्यावरी दिसतलें.

राजू : खरेंच विनोद, रॉकी, खरेंच नाका म्हाका!

रॉकी : अशें कितें करता. राजू तुज्यासारके कितलेशेच तरनाटे आमच्या गँगात ह्या ड्रग्सा खातीर येवंक तळमळटा. आनी तूं नाका म्हणटा ?

रेखा : हय. मात ह्या सगळ्यांपरस तू लकी. रॉकीकडे तुजी इश्टागत आशिल्ल्यान तुका फुकटंची मजा मारुंक मेळटा. तुका खबर आसा ह्या इतल्याश्या सिग्रेटचें कितले मोल तें. तुवें सपनात लेगीत चितूंक ना आसतलें!

आंतोन : हय रे, रेखा चली जावन लेगीत कशें मजा करता पळय आनी तुका फुकटचे नाका जालां. घे रे तू मार एक झुरको. मागीर सोडचो ना पळय!

राजू : नाका, नाका म्हाका ही घुंवळी वखदां. हांव बाबडो गरीब. म्हाका ह्या फंदात पडपाचो ना. उशीर जाला. वता हांव.

रॉकी : ए राजू , तुजे आतां चडूंच जालें आं. वता खंय! आमच्या गँगात एकदां आयिल्ल्यान पर्थे वच्चे न्हय हो नेम आसा. विनोद आंतोन, धरात ताका. आनी घालात ताच्या तोंडात तें सिगार.

राजू : नाका, नाका.... (मागीर सिगार ओडिल्याचो आवाज).

***

दम मारात दम<br>
विसरात बेगीन गम<br>
सकाळ सांजवेळा<br>
गांजा अफू रम.<br>
दम मारात दम

***

सूत्रधार : रॉकी राजूक आपल्या जाळ्यांत पुराय घुसपयता. घुंवळी वखदां घेतां- घेतां ताका घुंवळी वखदांची विक्री करपाक लायता. पुलीस राजूक धरता. मात खरे गुन्यांवकारी थंयच उरता आनी राजू सारके निश्पाप तरणाटें बंदखणीची हवा खायत आपले आयुश्य पिड्ड्यार करता.

***

ओडूंक जाय आमकां सिग्रेटां
चाखूंक जाय आमकां घुंवळीं वखंदा
तांतून आमचे व्हडपण दिसता
मागीर कांय खीण
सर्गात गेल्लेवरी दिसता
पूण तो कायमचो नर्क आसता!

**प्रसंग 4**

नानू : शैला बेगीन हांगा यो. हांव येवजीतालो तशेंच घडले. राजू घुंवळी वखदांच्या भानगडीक लागून पोलिसांच्या सुवादीन पडलां.

शैला : म्हणजे हांवे आयकलां तें खरें.

नानू : हय शैला, घुवंळी वखदां बाळगिल्ल्याखातीर राजूक पोलिसांनी धरुन बंदखणीत घातला.

शैला : पाडूच पडों त्या रॉकी आनी तांच्या गँगाचे. केन्नाच बरें जावंक नाका. कांय बऱ्या राजूक वायट संगतीक लायला, आनी आपूण बरें भोंवता, कांयच जांवक नाशिल्ल्या भशेन.

नानू : राजूक कॉलेजीतल्यानूय काडून उडयला. आमगेलो सर सांगतलो, घुंवळी वखदा बाळगिल्याखातीर राजूक आता बंदखण भोगची पडटली.

शैला : वायट रे घुंवळी वखदां आनी तांच्या संगतीक लागिल्ले मनीस. बऱ्या मनशाक लेगीत असले मनीस फोंडान घालता.

नानू : बंदखण म्हळ्यार कितें? राजून आपल्या आयुश्याक पाड घातली.

शैला : आमचे आयकल्ले जाल्यार आयज आमच्यावांगडा मुखार पावपाचो.

नानू : बंदखणीतल्यान भायर येवन तरी सुदारल्यार पुरो.

शैला : हय तर, चल या आमी. देवाकडे इतलेंच मागूया, आनीक अशें तरेचे राजू, घुंवळी वखदां आनी रॉकी सारक्या मनशांक बळी पडना जाल्यार पुरो!

***

घुंवळी वखदां - सोऱ्या बाटल्यो
धूमच्यो रेसी मोगाच्यो केशी
दिवची न्हंय सुवात रे जिणेत
जीण ही सोबीत सुंदर
वाट लावची न्हय रे, वायट संगतीक लागून

***

सुत्रधार : इश्टानो, शारातले कॉलेजीनी शिकपाक वचातूच. पूण थंय च आशिल्ल्या अनैतिक गजालींक थारो दिवंक नाका. घुंवळी वख मारामारी, 'धूम' च्यो रेसी आनी हेर वायट संगतीक लागून आप आयुश्य पिड्ड्यार करूं नाका. जीवन सुंदर आसता. शिकून व जावन जिणेचो परिपूर्ण आनंद घेवपांत मजा आसता. क्षणि सुखाच्या नादाक लागून आपली पुराय जीण फुलचे पयलीच करप नाका. ही अंतस्कर्णातल्यान मागणी.

एकदां भितर सरल्यार
भायर सरुंक पावनात
चक्रव्यूह रे हो चक्रव्यूह
कोणूच भेंदूक पावनात
कोणाकूच भेंदूक जायना

■■■



## प्रा. सत्यवान नायक

| | | |
|---|---|---|
| जल्म | : | 1 मे 1972, बेतकी-गोंय |
| नामो | : | 803/1, हेरंब<br>क्रिस्तांव वाडो, चर्चीलागी,<br>माशेल- गोंय. 403107 |
| शिक्षण | : | एम्.ए.बी.एड. |
| | : | 1987 त गोंय शालांत मंडळाचे धावेच्या परिक्षेत कोंकणी विशयांत गोंयांत तिसरो. |
| | : | एम्.ए. कोंकणी, गोंय विद्यापीठ, |
| | : | एम्. ए. हिन्दी, शिवाजी विद्यापीठ |
| | : | 1995 त गोंय विद्यापिठाचे एम्.ए.च्या परिक्षेत पयलो आयिल्ल्यान भांगरा पदक. |
| वेवसाय | : | शिक्षक |
| | : | एम.ई.एस कला आनी वाणिज्य महाविद्यालय, जुवारीनगर-वास्को |
| लेखन | : | दै. सुनापरान्त, दै. राष्ट्रमत, जैत, जाग कथा, कविता हातूंत प्रासंगीक लिखाण |
| पत्रकारीता | : | दै. सुनापरान्त, दै.नवप्रभा, दै. राष्ट्रमत ह्या खबरापत्रांखातीर थळावो बातमीदार म्हूण वावर |
| | : | दै. सुनापरान्ताखातीर स्टाफ रिपोर्टर म्हूण वावर. |
| आकाशवाणी | : | 1994 सावन आकाशवाणी-पणजी हांगां वृत्त निवेदक म्हूण वावर. |
| दुरदर्शन | : | पुंडलीक नारायण नायक हांची गोंय दुरदर्शनाखातीर घेतिल्ली मुलाखत प्रसारीत. |
| अणभव | : | शिक्षक म्हूण साबार शैक्षणीक संस्थांनी विद्यादानाचो वावर, |
| हेर | : | वांगडी, सम्राट क्लब- खांडोळा. |

जैत प्रकाशन